# गोंय-तांच्या पदस्पर्शान पावन

## स्वामी विवेकानंदांचे १८९२ वर्साचे गोंय भेटेचो वृत्तांत





लेखक : स्वामी आत्मश्रद्धानंद
अणकार : डॉ. भूषण भावे

भो. बस्तीमामाक,
आदरपूर्वक...
(भूषण भावे)

# गोंय - तांच्या पदस्पर्शान पावन

## स्वामी विवेकानंदांचे १८९२ वर्साचे गोंय भेटेचो वृत्तांत


स्वामी आत्मश्रद्धानंद

अणकारः
डॉ. भूषण भावे










रामकृष्ण मठ
नागपूर

प्रकाशकः

**स्वामी ब्रह्मस्थानंद**

अध्यक्ष, रामकृष्ण मठ,

रामकृष्ण आश्रम मार्ग,

धंतोली, नागपूर-४४० ०१२

**श्रीरामकृष्ण-शिवानंद-स्मृतिग्रंथमाला**

**पुष्प १ (कोंकणी)**



पयली आवृत्ती : २८.०१.२०१७
2017

मुद्रीत प्रती : १,०००

**मुद्रक :**

अॅक्वा प्रोसेस, नागपूर

मोल : रू. ८०.००

# प्रस्तावना

'गोंय - तांच्या पदस्पर्शान पावन (स्वामी विवेकानंदांचे १८९२ वर्साचे गोंय भेटेचो वृत्तांत) हें कोंकणी भाशेंतलें पयलें ग्रंथ-पुष्प कोंकणी भाशीक वाचप्यांच्या हातांत दितना आमकां भोवच खोशी जाता.

स्वामी विवेकानंदांचें चरित्र भोवच उर्बा दिवपी आसा. स्वामीजींनी मायभुंयेच्या सर्वांगीण उद्धारा खातीर खर कश्ट काडले. भारतांतल्या जनमानसाचें खोलायेन अवलोकन करपाचे नदरेन तांणी आसेतू - हिमाचल परिक्रमा केली. भारतांतल्या सामक्या तळागाळांतल्या लोकां सावन राजा-महाराजां वांगडा घनिश्टताय संपादन करून देशाची तत्कालीन परिस्थिती सामकी लागीच्यान नियाळ्ळी. ह्या परिव्रजन काळांत १८९२ वर्सा तांणी गोंयाकूय भेट दिल्ली. ह्या पुस्तकांत हे गोंय भेटेचो वृत्तांत सांगला. तेच वांगडा ह्या तेंपा वयल्या गोंयाचेंय वर्णन केलां. स्वामीजींनी खंय खंय राबितो केल्लो, तांकां कोण कोण मेळिल्ले हाचोय तपशील सांगलां.

मुखेल म्हणल्यार ह्या पुस्तकाचे अखेरेक, परिशिश्टांत स्वामी विवेकानंदांचें थोडे भितर चरित्र आनी तांचे उपदेश लेगीत

दिल्यात. स्वामीजींचे गुरू भगवान श्रीरामकृष्ण आनी माताजी श्री सारदादेवी हांचेय उपदेश हातूंत आस्पावल्यात.

प्रस्तूत पुस्तक स्वामी आत्मश्रद्धानंद हांणी बरयलां आनी डॉ. भूषण भावे हांणी ताचो कोंकणी भाशेंत अणकार केला. ह्या उल्लेखनीय वावरा खातीर आमी दोगांयचेय उपकारी आसात.

हें पुस्तक कोंकणी भाशीक वाचप्यांक निश्चीत आवडटलें, असो आमकां विस्वास आसा.

नागपूर **- प्रकाशक**
२०-१२-२०१६
माताजी श्रीसारदादेवी जयंती
पौष कृष्ण सप्तमी

# विशय- वळेरी

# गोंय- तांच्या पदस्पर्शान पावन

## स्वामीजींचें चिरस्मरणीय अस्तित्व

स्वामी विवेकानंदांनी एक फावट म्हणिल्लें, ''उजवाडाच्या ह्या भुरग्यांचो सांगात मेळप भोवच दुर्मीळ''...

''फकत पांचूच मिनटांचो तांचो सांगात तुमची पुराय जीण बदलून उडयतलो; तुमकां खऱ्यानीच तो जाल्लो जाय जाल्यार तो तुमचे भितर घडटलो. परमेश्वराचेर ज्या व्यक्तींची श्रद्धा आसता, तांचें अस्तित्व ती सुवात, पवित्र करून सोडटा,... जे सुवातेर त्यो आशिल्ल्यो ती तांच्या कंपनांनी भरून वता, आनी ज्यो व्यक्ती थंय पावतात तांकां तीं कंपनां जाणवतात आनी त्यो व्यक्ती लेगीत पावन जावंक पावतात.[१]

खरेंच, स्वामीजींचीं हीं उतरां सामकी खरीं - तांचेच बाबतींत सामकीं खरीं. ज्या सुवातांक तांणी भेटी दिल्ल्यो त्यो तांच्या कंपनांनी 'भरून' गेल्यात आनी त्या सुवातांक भेट दिवपी खंयचेय व्यक्तीक थंय दिव्य अस्तित्वाची जाणविकाय जालेबगर रावना. स्वामीजी एक अखंड यात्रीक आशिल्ले. कोलकात्याच्यान वाराणसी, थंयच्यान राजस्थान, गुजरात,

महाराष्ट्र, म्हैसूर आनी उपरांत केरळ, तमिळनाडू, हैद्राबाद आनी मागीर पाश्चिमात्य देशांनी - जंय तांणी जायतो प्रवास केलो. अशे तरेन भारताच्या आनी भारता भायल्या विंगड विंगड वाठारांनी तांकां भोंवडावपी त्यांच्या अथक परिश्रमांची आनी दुर्दम्य इत्साशक्तीची तोखणाय करीत तितली उणीच. देशांत परततकीच, दक्षिणेकडल्या जायत्या वाठारांनी तांणी भेटी दिल्यो, उपरांत बंगाल, ताचे उपरांत काश्मीर आनी परतून एक फावट तांणी पश्चिमेक भेट दिली. पाश्चिमात्य देशांची दुसरी भोंवडी सोंपून परते येतकीच तांणी पूर्व बंगाल (आता बांगलादेश) आनी उपरांत वाराणसीक भेट दिली. ही सगली भोंवडी तांणी त्या वेळार केली, ज्या वेळार येरादारीचीं साधनां आयजचे इतलीं वेगवान आनी सोयिस्कर नाशिल्लीं. आनी तीय बी फकत ३९ वर्सां भितर! हे नदरेंतल्यान पळयल्यार तांचें जिवीत म्हणल्यार एका व्हड प्रवास-वर्णनाचोच विशय आसा. तांची जल्मभूंय कोलकाता आनी जंय तांणी मठ स्थापन करून थंय १९०२ मेरेन निर्वाणा मेरेनचे निमाणे दीस सारले, तें बेलूर ह्या दोन सुवातां सयत देशांत आनी परदेशांत लेगीत अश्यो जायत्यो सुवातो आसात, जंय तांचे भेटेची याद म्हण फावोशीं यादास्तिकां बांदल्यांत. ज्या इतिहासीक इमारतींनी ते राविल्ले तांचें रुपांतर वस्तुसंग्रहालयांनी जालां आनी कांय सुवातांचेर तांचा नांवाचे फलक आनी पुतळे उबारल्यात.

तांचे मदलीं उल्लेखनीय यादस्तिकां म्हणल्यार कन्याकुमारीची श्रीपादशिला (जंय आतां १९७२ वर्सा बांदिल्लें भव्यदिव्य विवेकानंद शिला-स्मारक आसा), चेन्नयचें 'आयस्-हावज' (जाका आतां विवेकानंदम् इलम् म्हूण वळखतात, जें श्रीरामकृष्ण मठ, मायलापोरचें एक उप-केंद्र आसा), बेळगांवचें हरिपद मित्र हांचें घर (जें आता बेळगांवच्या रामकृष्ण मिशन आश्रम परिसराचोच एक वांटो जालां), लिंबडीचो दरबार हॉल (जाका टॉवर बंगलो अशेंय म्हणटात) आनी गुजरातांतल्या वडोदरांतलो दिलाराम बंगलो (हीं दोनूय थळां आतां रामकृष्ण मिशनाचीं केंद्रां जाल्यांत), राजस्थानांतल्या खेत्री हांगाचो खेत्री राजाचो महाल (जातूंत रामकृष्ण मिशन चलता) आदी. भारता भायर, रिडले मॅनोर आनी सावथ पासादेनांतलें घर (जीं अमेरिकेंतल्या दक्षिणे कडल्या कॅलिफॉर्नियाच्या वेदान्त सोसायटीचीं साधना केंद्रां जावन आसात) हीं दोन उल्लेख करपी सारकीं केंद्रां आसात.

कांय सुवातांचेर जंय यादस्तीक बांदप वा पुतळो बसोवप कांय कारणांक लागून शक्य जावंक ना, थंय स्वामीजींचे भेटेची वा राबित्याची याद त्या वाठारांत रावपी लोक आजुनूय काडटात. स्वामीजी राविल्ले इमारती कडल्यान कोणूय पासार जाता आसतना, तांचे भेटी विशीं माहिती आशिल्ली व्यक्ती, 'हांगा स्वामी विवेकानंदांनी भेट दिल्ली' अशें ल्हवू आवाजांत फुतफुतले बगर रावना, जाका लागून आयकतल्याचें काळीज आदरयुक्त धाकान भरून वता.

★★★



स्वामी विवेकानंद - रामकृष्ण मिशन आश्रम, बेळगाव
ह्यांची फायबर ग्लास प्रतिमा

# स्वामीजींची म्हान भारत परिक्रमा

भारताची पवित्र भूंय पळोवपाच्या तांच्या इतिहासीक 'भारत दर्शना' वेळार, स्वामीजींनी ह्या विशाल खंडप्राय देशाच्या विंगड विंगड वाठारांक चलत भेटी दिल्यो. कांय सुवातांनी, तांचे येजमान आनी बरे मागप्यांच्या खेरीत आग्रहाक लागून, मुखावेल्या थळाक वचपा खातीर तांणी रेल्वेची तिकेट स्विकारल्या. पूण हरशीं तांणी आपली चडशी परिक्रमा चलतूच पुराय केल्या. मळबाचें पांगरुण, तणाचें हांतरुण आनी वांट्याक येता तें अन्न हें उद्दिश्ट दवरून देवाचेर पुराय भरिभार दवरपाचे आनी सगळे तरेच्या मायामोहां पासून मन पयस दवरपाचे नदरेन शारिरीक कश्ट-दगदगांची जीण जगपाची तांची संन्याशी वृत्ती, हें ताचें एक कारण जावं येता.

दुसरें तितलेंच महत्त्वाचें कारण म्हणल्यार आपले प्रिय भारतमातेक लागींच्यान पळोवपाची तांची जबर इत्सा. पुराय देशभरांतल्या पवित्र थळांक भेटी दिवपाची आनी तें करतना भारतीयां मदीं घोळपाची आनी तांचे कडेन संवाद सादपाची तांची इत्सा आशिल्ली. देखून एकाच वेळार ते राजा आनी रयत हांचे वांगडा समसमानतायेन राविल्ले दिश्टी पडटात. पुण्यात्मे आनी पापी, सुसंस्कृत आनी अज्ञानी, गरीब आनी गिरेस्त, उच्च आनी नीच - सगळ्यांच वांगडा समान लागसाण आनी अलिप्तताय दवरून ते वावुरले. गीतेंतल्या देवमनशा विशींच्या

ह्या प्रसिद्‌ध श्लोकाचे ते जितेजागते आदर्श आशिल्लेः

"आत्मज्ञानी मनीस विद्वत्ता आनी विनम्रताय हांची ईश्वरदत्त देणगी आशिल्ल्या पंडिता कडेन, एके गाये कडेन, एका हती कडेन, एका सुण्या कडेन आनी एका नीच मनशा कडेन लेगीत एकेच नदरेन पळयता."[२]

स्वामीजी जंय जंय गेले थंय थंय तांणी अध्यात्म आनी राश्ट्रीय पुनर्निर्माणाचीं बियां रोंयलीं. केन्ना केन्ना अनुपचारिकतायेन तांणी काडिल्ले उद्‌गार लेगीत जायत्या जाणां खातीर उर्बा-स्रोत थारले. आपले भारत भेटी विशीं तांच्या मनांत कांय कल्पना आशिल्ल्यो, पूण ते विशीं तांचो निश्चीत आराखडो नाशिल्लो. नियतीच्या अदृश्य शक्तींच्या पावलार तांणी पावलां मारलीं आनी आपणाक दिसलें ते सुवातेक तांणी भेट दिली. निश्चीतपणान तांच्या मनांत कांय थळां आशिल्लीं, हेर जायत्या थळां विशीं तांका हेरांनी माहिती दिली आनी ते थंय पावले. काय थळांक तांणी दिल्ल्यो अनुपचारीक भेटी इतिहासीक थारल्यात. उत्तर कर्नाटक आनी दक्षिण - महाराष्ट्राक तांणी दिल्ली भेट ही तातूंतलीच एक.

१५ ऑक्टोबर, १८९२ दिसा स्वामीजींचें कोल्हापूर साकून बेळगांवां आगमन जालें. कोल्हापूरच्यान भायर सरचे पयलीं स्वामीजींक कोल्हापूरच्या न्यायालयाचे सचिव श्री. लक्ष्मणराव गोळवलकर हांणी वळख-पत्र दिल्लें. तें पत्र बेळगांवचे श्री. सदाशिवराव भाटे हांकां उद्‌देसून आशिल्लें. देखून बेळगांवां भाटे हांच्या घरा तांचें उर्बेभरीत स्वागत जालें.



बेळगांवच्या श्री. भाटे हांच्या घराचो वयल्यान घेतिल्लो फोटो. (सद्याक ह्या घराच्या एका भागांत रामकृष्ण मिशन आश्रमाचें उप-केंद्र आसा.

श्री. भाटे हांचे वांगडा कांय दीस सारतकीच, स्वामीजी बेळगांवचे एक रान-अधिकारी श्री. हरिपद मित्र हांगेर कांय दीस रावले. स्वामीजींच्या चरित्रांत श्री. मित्र आनी श्री. भाटे हांचेवांगडा जाल्ले तांचेमदले चर्चेच्यो कितल्योश्योच नोंदी आनी तांचे भेटेच्यो स्मृती आतां वाचूंक मेळटात.[३]



*स्वामीजींनी वापरिल्ली काठी (रोत) भाटे हांच्या घरांत सांबाळून दवरल्या. (तसबिरी दवरल्यात ते खाटीचेर ती ठळकपणान दिश्टी पडटा.)*

स्वामीजी बेळगांवां १३ दीस रावले आनी थंयच्यान २७ ऑक्टोबर, १८९२ दिसा भायर सरले.

उपरांत स्वामीजी गोंयांत मडगांवां पाविल्ल्याची नोंद मेळटा. गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकाखाला आशिल्लें. मडगांवां पावतकीच स्वामीजींनी सकयल्लें तारीक नाशिल्लें पत्र बरयलां.



'म्हाका आतांच तुमचें पत्र मेळ्ळें. हांव हांगा सुखरूप पावलों. हांव पणजी आनी गोंय हेर लागींच्या गांवांक तशेंच देवळांक भेटी दिवन आयजच परतलों. गोकर्ण, महाबळेश्वराक (स्वामीजी गिमांत  राविल्ले त्या आदल्या महाबळेश्वरा परस वेगळें) आनी हेर क्षेत्रांक भेटी दिवपाची म्हजी इत्सा आजून आसा.



हरिपद मित्र [illegible] हांचें घर (सद्याक रामकृष्ण मिशन आश्रमाच्या परिसरात आस्पावन घेतलां)

हांव फाल्यां सकाळीं रेल्वेन धारवाड वचूंक भायर सरतां. हांवें वॉकिंग-स्टीक म्हजे वांगडा घेतल्या. डॉ. यागडेकर हांच्या इश्टान म्हजी बरी सरबराय केली. उपकार करून श्री. भाटे आनी थंयच्या हेर सगळ्यांक म्हजो नमस्कार सांगचो. तुमचेर आनी तुमचे घरकान्नीचेर देव ताची सासाय घालूं. पणजी शार भोवच सुंदर आनी नितळ आसा. हांगाचो चडसो क्रिस्तांव लोक साक्षर आसा, जाल्यार हिंदू चडकरून अशिक्षीत.

तुमचो मोगाळ''[४]

स्वामीजींच्या गोंय राबित्या विशीं तपशिलान चर्चा करचे पयलीं, गोंय, ताचो इतिहास, भूगोल आनी हेर संबद्ध तपशील थोडे भितर पळोवया.

* * *



# गोंय - इतिहास, भूगोल आनी संस्कृताय

गोंय हें क्षेत्रफळाचे नदरेन भारतांतलें सगल्यांत ल्हान राज्य जाल्यार लोकसंख्येचे नदरेन चवथें ल्हान राज्य.[५]

भारताचे पश्चिम दर्यादेगे वयल्या 'कोंकण' वाठारांत वशिल्ल्या ह्या राज्याचे उत्तरे वटेन महाराष्ट्र, पूर्व आनी दक्षिणे वटेन कर्नाटक आसा जाल्यार पश्चिमेचे दर्यादेगेर अरबी दर्या पातळ्ळा.

'गोंय' हें उतर 'गो' म्हणल्यार 'गाय' हाचे वेल्यान आयलां अशें मानतात. 'गोरवांचो प्रदेश' म्हूण ह्या वाठाराची नामना आशिल्ली. महाभारत ह्या महाकाव्यांत सद्याक 'गोंय' म्हण पाचारतात ते भुंयेचो उल्लेख 'गोपराष्ट्र' वा 'गोवा राष्ट्र' म्हणल्यार 'गोरवां-राखण्यांचो प्रदेश' म्हण केला. कांय प्राचीन संस्कृत ग्रंथांनी 'गोपकपुरी' वा 'गोपकपट्टण' अशीं नांवांय वापरल्यांत, जांचो उल्लेख हरिवंश आनी स्कंदपुराणा सारकिल्या आदल्या पवित्र हिंदू ग्रंथांनी लेगीत आयला. स्कंधपुराणांत गोंयांक 'गोम्मांचल' अशेंय पाचारलां. कांय वेंचीक शिलालेखांनी, ह्या वाठाराचो उल्लेख गोवे, गोवेपुरी, गोपकपट्टण आनी गोमन्त असोय केला.

पुराणकथे प्रमाण हो भूंय-भाग दर्यापोंदा आशिल्लो आनी पुराणांतलो म्हान पुरुष परशुराम हाणें बाण मारून, दर्याचें उदक पयस सारून हो वाठार वसयलो. देखून गोंयांक 'अपरांत' म्हणल्यार 'भुंयेविणें' प्रदेश म्हूण वळखतात. ('अप्रांत' हें उतर 'सह्याद्रीचें निमणें तोंक' - (अपर+अंत) - ह्या अर्था वेल्यान घडलां, अशेंय मानतात.

गोंयचो ज्ञात इतिहास ख्रिस्तपूर्व तिसऱ्या शेंकड्या मेरेन फाटीं वता, जेन्ना गोंय मौर्य साम्राज्याचो एक वांटो आशिल्लें. उपरांत ताचेर दोनशें वर्सां आदीं कोल्हापूरच्या सतवाहनांनी राज्य केलें आनी तांणी तें बदामीच्या चालुक्याच्या हातांत दिलें, जांणी गोंयचेर सुमार दोनशें वर्सां राज्य केलें.

ताच्या उपरांतचे
कांय शेंकडे गोंयचेर
अनुक्रमान शिलाहार,
कदंब आनी दख्खन
भारताचे राज्यकर्ते -
कल्याणीच्या चालुक्यांनी
शेक गाजयलो. गोंयच्या
वसणूक-पूर्व इतिहास
आनी संस्कृतायेचेर
थळावे कदंब राजवटीन
आपणाली वज्रमुद्रा
निर्माण केल्या.

सुमार अर्दशतक गोंय
दिल्लीच्या सुलतानांच्या शेका
खाला आयलें. पूण उपरांत
मोगलांक विजयनगर साम्राज्या
कडेन शरणागती पत्करची
पडली, जांणी मुखा वयलो
शेंकडो गोंयचेर राज्य केलें.
तांची राजवट गुलबर्ग्याच्या
बहामनी सुलतानांनी सोंपयली.
ती राजवट कोसळटकीच,
हो वाठार बिजापूरच्या
अदिलशाही राजवटीच्या
कब्ज्यांत आयलो, जांणी
'व्हेल्ल्य गोंय (ओल्ड गोवा)'
हांगा तांची अतिरिक्त
राजधानी स्थापन केली.

१४९८ वर्सा, वास्को द गामा हाणें दर्यामार्गान भारत भुंयेचेर पयलें पावल केरळांतल्या कालिकत (कोझिकोड) हांगा दवरलें आनी उपरांत आयज जाका 'ओल्ड गोवा' म्हूण वळखतात. थंय तो पावलो. त्यावेळार 'गोंय' वाठार म्हणल्यार मांडवी न्हंयेचे दक्षिणे कडले तडिचेर आशिल्लें 'गोंय शार' अशें मानताले, जें भारताचे पश्चिम दर्यादिगे वयलें सगळ्यांत व्हड वेपारी केंद्र आशिल्लें. ऑटोमन तुर्कांनी भारतांत येवपाचे परंपरीक जमीन-मार्ग आडायल्या उपरांत, हेर युवरोपी शक्तीं कडल्यान मसाल्यांच्या वेपाराचो ताबो हातासप आनी हांगा वसाहत स्थापन करप हो पुर्तुगेजांचो हांगा येवपाचो उद्देस आशिल्लो.



*बाँ जेजू चर्च, ओल्ड-गोवा.*

उपरांत पुर्तुगेज एडमिरल आफोंस द आल्बुकेर्कान, एका तह्रा वरवीं इश्टागत पत्करिल्ल्या तिमय्या ह्या देशी सरदाराचे मदतीन सत्तेर आशिल्ल्या बिजापूर राजाचो पराभव करून, व्हेल्ल्य गोंय हांगा एक कायमस्वरूपी वसणूक स्थापन केली.

उपरांत इन्क्विजिशन (१५६०-१८१२) लागू जातकीच ख्यास्त करपाचो वा जमीन, अधिकार वा संपत्ती जप्त करपाचो भंय दाखोवन मिशनऱ्यांनी साबार थळाव्या हिंदू नागरिकांचें जबरदस्तीन क्रिस्तांव धर्मांतरण केलें. अशें आसुनूय, जायत्या धर्मांतरीत लोकांनी आपणालें हिंदू दायज कांय प्रमाणांत तिगोवन दवरलें. इन्क्विजिशन आनी धर्मीक छळ हांचे पसून सुटका मेळोवपा खातीर हजारांनी लोक गोंय सोडून पळून गेले आनी शेजारच्या कर्नाटक राज्यांतल्या मंगळूर आनी कारवार तशेंच महाराष्ट्रांतल्या सावंतवाडी शारांत स्थायीक जाले.

ब्रिटिशां कडल्यान भारताक १९४७ वर्सा स्वातंत्र्य मेळटकीच, गोंया वयलो आपलो कब्जो सोडपाची भारताची सुचोवणी पुर्तुगेजांनी न्हयकारली. युनायटेड नेशन्स्‌ाचे सर्वसादारण सभेन १९६० वर्सा गोंय स्वप्रशासनक्षम नाशिल्ल्याची नोंद करून गोंयान आत्मनिर्णय करपाचे वटेन मत दिलें. अखेरेक, डिसेंबर, १९६१ वर्सा 'ऑपरेशन विजय' मोहिमे खाला भारतीय सैन्य गोंयांत रिगलें.

सुमार २६ वरांच्या झुजा उपरांत पुर्तुगेज सैन्यान शरणागती पत्करली. दमण आनी दीव (महाराष्टाचे उत्तरेचे पुर्तुगेजांच्या शेकाखाला आशिल्ले वाठार) हांचे सयत गोंयची केंद्रशासीत प्रदेश म्हूण घोशणा जाली. (१९८७ वर्सा हो केंद्रशासीत प्रदेश फोडून, गोंयाक भारतीय संघराज्यांतलें पंचविसावें राज्य म्हण मान्यताय दिली, जाल्यार दमण आनी दीव केंद्रशासीत प्रदेश म्हण राखून दवरले).



*श्री मंगेश मंदिर, गोंय*

अशेतरेन ४५० वर्सांच्या संवसाराच्या इतिहासांतल्या एका प्रदीर्घ परकी वसणुकेचो - गोंयांतले पुतुगेज राजवटेचो अंत जालो.

हाचे आदीं नोंद केल्ले प्रमाण, कोंकण ह्या दर्यादेगे वेल्या प्रदेशाचो गोंय एक भाग आसा. मांडवी आनी झुवारी ह्यो न्हंयो गोंयच्च्यो जीवनदायिनी न्हंयो आसात. झुवारी न्हंयेच्या मुखाचेर आशिल्लें मुरगांव बंदर हें दक्षिण आशियांतलें एक बऱ्यांतलें बरें नैसर्गीक बंदर. गोंयांत चाळीसा वयर न्हंयमुखीं, आठ दर्यांतलीं जाल्यार सुमार णव्वद न्हंयांतलीं जुंवीं आसात. गोंयांत कदंब राजवटीच्या काळांत बांदिल्ले तीनशां परस चड तलाव आसात. जैवीक विविधतायेचें एक मुखेल केंद्र (हॉटस्पॉट) म्हूण वर्गीकृत केल्ल्या पश्चिम घाट परिक्षेत्रांत आस्पाविल्ल्यान गोंयांत वनस्पत आनी मोनजात हांचीं गिरेस्त संसाधनां आसात. फेब्रुवारी, 1999 च्या नॅशनल जिओग्राफीक मॅगाजिनांत गिरेस्त उश्मकटीबंधी जैव-विविधताये खातीर, गोंयची तुळा ॲमझॉन आनी कॉंगो देंगणां कडेन केल्या.

पणजी गोंयची राजधानी. वास्को (मुरगांव) हें गोंयचें सगळ्यांत व्हड शार. दर्यादेगांक लागून फामाद आशिल्ल्यान, वर्सागणीक लाखांनी देशी आनी विदेशी पर्यटक गोंयांत येतात.

पुराय देशाचे तुलनेंत गोंयचें दरडोई देशी उत्पादन अडेजपट आसा. पर्यटन हो गोंयचो मुखेल उद्देग आसा. ओल्ड-गोवा हांगाची बाँ जेजूची बॅसॅलिका-जाकालागून गोंय हें आशियांतलें सगळ्यांत व्हड क्रिस्तांव-यात्रीक थळ जावंक पावलां, तिचे सयत गोंयांतलीं मंदिरां आनी हेर संवसारीक वारसो-वास्तू हांकां लागून गोंयाक नामना लाबल्या. हिंदू (६५%), क्रिस्तांव (२६%), आनी मुस्लीम (६%) हे गोंयांतले मुखेल धर्म आसात, जी सामान्यपणान लोकांक खबर नाशिल्ली गजाल. श्री शांतादुर्गा, श्री मंगेश, श्री म्हाळसा, श्री महालक्ष्मी आनी श्रीरामनाथ हीं गोंयचीं पांच प्रसिद्ध मंदिरां आसात, जांकां देसांतले आनी देसा भायले हजारांनी भावीक भेट दितात. ह्या देवळांक खासा गोंयचे शैलींतलें वैशिश्ट्यपुराय स्थापत्य लाबलां. कितल्योशोच पुराणकथा आनी इतिहासीक घडणुको तांचें प्राचीन महात्म्य वाडयतात. ह्या मंदिरांचें एक व्यवच्छेदक लक्षण म्हणल्यार तांच्या मुखा वयले उंच दीपस्तंभ. सैमीक सौंदर्य आनी सहजसुंदर बांदावळ हांकां लागून हीं देवळां उल्लेखनीय थारतात. कुळागरां, भाटां आनी तळयो हांची भोंवतण लाबिल्लीं हीं मंदिरां म्हणल्यार गोंयच्या संस्कृतीक आनी अध्यात्मीक दायजाचें भांडारूच.

कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन मुखेल भासो गोंयांत उलयतात. चवथ आनी नातलां ह्यो गोंयच्यो दोन मुखेल परबो.

* * *

# स्वामीजी गोंयांत



*स्वामीजी गोंयांत आयिल्ले तेन्नाचें- १९ व्या शेंकड्याचे अखेरेच्या सुमाराचें मडगांव रेल्वे स्टेशन*



*जे. पी. आल्वारीश*

स्वामीजींच्या वयल्या पत्रांत बरयिल्ले प्रमाण, गोंयच्या राबित्यांत स्वामीजींनी गोंयांतल्या साबार थळांक भेटी दिल्यो. तांणी भेटी दिल्ल्या सुवातां विशीं विस्तारान सांगचे पयलीं, श्री. वि. स. सुखठणकार हांच्या एका लेखांतलो संदर्भ पळोवया. तांणी बरयलां:

"आपले भारत परिक्रमे मजगतीं स्वामीजी बेळगांवां पाविल्ले, तेन्ना थंय आपल्या संपर्कांत आयिल्ल्या डॉ. व्ही. व्ही. शिरगांवकार ह्या बेळगांवांतल्या एका प्रतिश्ठीत नागरिका कडेन, तांणी आपली गोंयांक भेट दिवपाची इत्सा परगटायली. तांची गोंय भेट ही सहज धांवती भेट नाशिल्ली, तर तिचे फाटल्यान तांच्या मनांत एक खासा हेतू आशिल्लो. डॉ. शिरगांवकर हांणी आपल्या मडगांव हांगाच्या विद्वान इश्टाक चीट बरोवन, स्वामीजींचें आदरातिथ्य करपाची विनवणी केली.

जे दिसा स्वामीजी मडगांव रेल्वे स्टेशनाचेर देंवले, तेन्ना शेंकड्यांनी लोक थंय तांकां येवकार दिवपाक आयिल्ले. घोड्यागाडयेंत बसोवन मिरवणुकेन स्वामीजींक येजमान सुब्राय नायक हांच्या घरा व्हेले.

सुब्राय नायक, संस्कृत भाशेचे पंडित आनी हिंदू धर्मग्रंथां विशींचे जाणकार आशिल्ले. देखून सबावीकपणान स्वामीजींची विलक्षण बुद्धीमत्ता आनी धर्मीक गिन्यानाची तांची खोलाय हांची तांका भुरळ पडली. भारतांत हेर खंयच उपलब्ध नाशिल्ल्यो प्राचीन लॅटीन संहिता आनी हस्तलिखितां हांचे वरवीं क्रिस्तांव धर्मशास्त्राचो अभ्यास करपाचो आपल्या गोंयांत आयिल्ल्या सोयऱ्याचो उद्देश लक्षांत येतकीच, सुब्राय नायकांनी आपल्या जे. पी. आल्वारीश ह्या जाणकार इश्टाक आफोवन घेतलो आनी स्वामीजीं कडेन तांची वळख करून दिली. स्वामीजींनी श्री. आल्वारीश हांचे वांगडा त्या विशयाचेर लॅटीन भाशेंत (?) भासाभास केली. स्वामीजींचे विद्वत्तेन भोवच प्रभावीत जाल्ल्या आल्वारीश हांणी जंय लॅटीन भाशेंतलीं धर्मीक साहित्याचीं हस्तलिखीत बाडां आनी छापिल्ले ग्रंथ सांबाळून दवरिल्ले आशिल्ले, त्या मडगांवच्यान चार मैलाचेर आशिल्ल्या गोंयांतल्या धर्मशास्त्राच्या सगळ्यांत आदल्या कॉन्वेंट-कॉलेजांत, राशोल सेमिनारींत तांच्या राबित्याची बेगोबेग खासा वेवस्था केली.

स्वामीजींनी सेमिनारींत मेळिल्ल्या धर्मग्रंथांचो बारीकसाणेन अभ्यास करीत थंय तीन दीस सारले. तांची प्रचंड बुद्धीमत्ता आनी संतुलीत गिन्यानाचेर आदारिल्लीं क्रिस्तांव धर्मा विशींचीं मुळावीं मतां आयकून थंयचे वरिष्ठ फादर आनी हेर पाद्री तशेंच हे सेमिनारींतले सगळे विद्यार्थी अजापभरीत जाले.

स्वामीजी मडगांवां परते येतकीच लेगीत पयसु-पयसुल्ल्यान लेगीत साबार पाद्री स्वामीजींक मेळूंक येवप ही नित्याचीच गजाल जाली आनी ह्या हिंदू संन्याशान गोंय सोडपाच्या आदल्या दिसा मडगांव शारांत हिंदुंनी घडोवन हाडिल्ले निरोप दिवपाचे सभेंत लेगीत पाद्रींनी उत्स्फूर्तपणान वांटो घेतलो.''[६]

*हातूंतल्यान सकयल्ल्यो गजाली स्पश्ट जातातः*

१. मडगांवां रेल्वे-स्टेशनाचेर स्वामीजींक शेंकड्यांनी लोकांनी येवकार दिलो- ही एक लक्षणीय घडणूक. हाचें कारण स्वामीजी पश्चिमी देशांनी वचचे पयलीं भारतांत हेर खंयच तांकां इतलो उर्बेभरीत येवकार मेळिल्ल्याची नोंद ना.

२. सेगीत तीन दीस गोंयांतले राशोल सेमिनारींत स्वामीजींनी क्रिस्तांव धर्मशास्त्राचो अभ्यास केलो.

३. स्वामीजींचे गोंयांतले येजमान श्री. सुब्राय नायक हे एक नांवाजते आनी धर्मपरायण व्यक्ती आशिल्ले, ते स्वामीजींक लागून प्रभावीत जाल्ले आनी तांणी भोवच रूची घेवन आनी आदरपूर्वक स्वामीजींची तांच्या राबित्यांत सेवा केली.

# स्वामीजींनी गोंयांत भेट दिल्लीं थळां

१. **श्री. सुब्राय नायक हांचें घर**ः स्वामीजींचे गोंयांतले येजमान श्री. सुब्राय नायक हे एक संस्कृत पंडित आनी व्हड भावार्थी आशिल्ले. तांणी स्वामीजींची वेवस्था आपल्या व्हड, खासा गोंयचे स्थापत्य-शैलींत बांदिल्ल्या घरांत केली.



हें घर मडगांवां आबादे फारिया मार्गाचेर आसा. घरांत प्रवेश करतकीच एक व्हड सभाघर आनी एक देवूळ पळोवंक मेळटा. मडगांवांतलें भक्तीचें एक पवित्र भक्ती थळ - दामोदर साल हाका तें तेंकून आसा. हरशीं दामोदर म्हणल्यार कृष्ण, पूण गोंयांत दामोदर हें शंकराचें रुप. 'साल' म्हणल्यार कोंकणींत सभाघर. श्री दामोदर हें दैवत जंय आशिल्लें, थंयच्यान पुर्तुगेजांच्या धर्मीक-छळाक लागून हे सुवातेचेर हाडलें अशें मानतात. श्री. नायक हांच्या कुटुंबान परिस्थिती वळखून आपल्या घराचो एक भाग तेखातीर मेकळो करून दिलो.



स्वामीजींची रावपाची वेवस्था घराच्या प्रवेशद्वारा कडेन (उजवे वटेन) केल्ली. घराच्या प्रवेशद्वाराचेर लायिल्ले पाटये वेलो मजकूर असो आसाः




श्री. सुब्राय नायक हें एक असामान्य व्यक्तीमत्व आशिल्लें. सारस्वत ब्राह्मण [७] कुटुंबांत १८५७ वर्सा जल्म जाल्ले सुब्रायबाब प्रतिभासंपन्न आनी हुशार विद्यार्थी आशिल्ले. नांवापुरतेंच लौकीक शिक्षण घेतिल्लें आसलें तरी तांणी पुर्तुगेज, लॅटीन, फ्रेंच आनी संस्कृत भासांचो अभ्यास घरा कडेन रावुनूच केलो. उपरांत, नामनेचे संत आनी विद्वान श्री. नीळकंठ भट जांभोट हांचे ते शिश्य जाले, जांणी तांकां न्याय, मीमांसा, वेदान्त, ज्योतिशविद्या आनी आयुर्वेदाचें शिक्षण दिलें.



स्वामीजींचे भेटीचो उल्लेख करपी पाटये सयत घराचें प्रवेशद्वार

पयले बायलेच्या दुखेस्त मर्णा उपरांत तांणी दुसरें लग्न केलें. पूण दुसरेय बायलेच्या मर्णा उपरांत, तांणी आपलें जिवीत गरीब दुयेंतींची सेवा करपाक वेंचलें. तांच्या अथक यत्नांक लागून, गोंयांत एक मराठी शाळा स्थापन जाली. १८८२ वर्सा तांणी 'गोवा-मित्र' हें मराठी म्हयनाळें सुरु केलें आनी तें वर्सभर चलयलें.



*श्री. नायक हांच्या घराचे दावे वटेन आशिल्लें श्री दामोदर साल, जंय स्वामीजी गायलें आनी जंय तांच्या भौमाना खातीर एक बसका घडोवन हाडिल्ली.*

तांणी 'गोवात्मा' (१८८५-१८८९) ह्या प्रो. व्यंकटेश नायक हांच्या मराठी साताळ्यांत लेगीत लेख बरयले. श्री. सुब्राय हांणी उत्तर-भारतांतल्या पवित्र थळांक जायते फावटीं यात्रा केल्यो. श्री. सुब्राय नायक हांणी एक भौशीक वाचनालय लेगीत सुरू केलें. तांणी साबार लेख आनी नाटकां रचलीं. (एका नाटकांत तांणी भुमिका लेगीत केली). 'त्रिमतोपन्यास' ह्या माथाळ्याच्या आपल्या पुस्तकांत तांणी शंकर, रामानुज आनी मध्व ह्या तीन आचार्यांचें तत्वगिन्यान सोंपे भाशेंत बरोवन दवरलां.

स्वामीजी आनी श्री. सुब्राय हांचें संभाशण चडशें संस्कृतांतल्यान जातालें. स्वामीजींचे विद्वत्तेची आनी उदारमतवादाची सुब्राय नायक हांणी जायती तुस्त केल्या. राशोल सेमिनारींत स्वामीजीं वांगडा तेच वताले आनी थंय स्वामीजी आनी वरिष्ठ फादर हांचेमदीं दुभाशी जावन वावुरताले. स्वामीजी जेन्ना श्री. नायक हांगेर रावताले, तेन्ना साबार विद्वान आनी मानेस्त दादले आनी बायलो तांकां मेळूंक येताल्यो. श्री. नायक सगळ्यांक शिश्टाचारान आनी मोगान वागयताले. स्वामीजींनी गोंयचो निरोप घेवचे पयलीं, श्री. नायक हांणी स्वामीजींच्या भौमानार्थ दामोदर सालांत एक बसका घडोवन हाडली, जातूंत क्रिस्तांव पाद्रींसयत व्हडा संख्येन लोक हाजीर आशिल्ले. श्री. नायक

हांचे विनवणे वेल्यान स्वामीजींनी गोंय सोडचे पयलीं तांचो एक फोटू काडिल्लो. त्याच फोटवाचें एक रंगीत पांयजेल आयज दामोदर साल मिरयता. स्वामीजींनी दिल्लो आपलो एक फोटू आयज लेगीत श्री. नायक हांच्या कुटुंबियांनी सांबाळून दवरला.

स्वामीजी गोंय सोडटना श्री. नायक हांचे सांगाताक जायते भक्त आनी चाहते तांकां निरोप दिवंक हाजीर आशिल्लें.

कांय तेंपान १९१० वर्सा श्री. सुब्राय नायक हांणी संन्यास घेतलो आनी स्वामी सुब्रम्हण्यानंद तीर्थ हें नांव धारण केलें. ते एक धर्मनिष्ठ जीण जगले आनी सुशील सबावा खातीर तांचो भोवच आदरसत्कार जालो. गोंयांतल्या कांय धर्मीक संमेलनांनी प्रवचनां दिवंक तांकां निमंत्रीत केल्ले. १९१५ वर्सा स्वामी विवेकानंदांचे 53 वे जयंती दिसाचे गोंयांतले कार्यावळीचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. हे कार्यावळीचो वृत्तांत उजवाडावपी 'प्रबुद्ध भारता'च्या १९१५ वर्साच्या फेब्रुवारी-मार्चाच्या आंकांत अशें बरयलां:

''प. पू. स्वामी सुब्रम्हण्यानंद तीर्थ हांणी स्वामी विवेकानंदांची जीण आनी वावराचेर आनी खासा करून तांचे वांगडा जाल्ले वैयक्तीक चर्चे विशीं मराठी भाशेंतल्यान सविस्तर उलोवप

केलें. प.पू. सुब्रम्हण्यानंद हांणी मडगांव हांगा कांय दीस स्वामीजी वांगडा सारिल्ले. तांणी मुखेलपणान त्या भेटींचेर भर दिलो. वेदान्ताचें तत्वगिन्यान आनी त्याच वेदान्ताचो प्रसार पुराय संवसारांत करपाच्या स्वामीजींच्या व्रता विशीं खासा स्वामीजींच्या तोंडांतल्यान तांणी प्रत्यक्ष आयकिल्लें आशिल्ल्यान, आतां मेरेन ज्ञात नाशिल्ल्यो गजाली सभे माजार उकत्यो करप तांकां सहज शक्य जालें.''[८]



*श्री. सुब्राय नायक हांच्या ज्या घरांत स्वामीजी राविल्ले ते कुडीचें अंतरंग (स्वामीजींनी वापरिल्ल्यो कांय वस्तू आजून पळोवंक मेळटात.)*

जे कुडींत स्वामीजी राविल्ले, ते कुडींत प. पू. सुबम्हण्यानंद आपल्या निर्वाणा मेरेन (१९६१) रावले.



*संन्यास घेतल्या उपरांत श्री. सुब्राय नायक (स्वामी सुब्रम्हण्यानंद)*

स्वामीजी तशेंच सुब्रमण्य बाबा (श्री. सुब्राय नायक हांकां मुखार प्रेमान ह्या नांवान पाचारताले) हांणी वापरिल्ल्यो वस्तू त्या घरांत आजूनय राखून दवरल्यात. कुडीची डागडुजी करून २००६ वर्सा ती लोकां खातीर उक्ती केली आनी आतां विनंती करतकीच ती पळोवंक मेळटा.

२. **राशोल सेमिनारी**ः राशोल (रायतूर) हें मडगांवच्यान चार कि.मी. चेर आशिल्लें गांव. जंय ही सेमिनारी आसा. हे सेमिनारीचें अधिकृत नांव 'पॅट्रिआर्कल सेमिनारी ऑफ राशोल'[१] अशें आसलें तरी तिका राशोल सेमिनारी म्हणुनूच वळखतात. जेजुईतांनी तीनश्यां परस चड वर्सां पयलीं ती स्थापन केली. ती बांदूंक तांकां चार वर्सां लागलीं.



राशोल सेमिनारीचें मनभुलोवणें चित्र

हे चर्चीचो बुन्यादी फातर १६०६ वर्सा बसयलो आनी १६१० वर्सा मडगांवां आशिल्लें जेजुईत कॉलेज राशोलाक स्थलांतरीत केलें. कांय दसकांच्या चडउताराच्या काळा उपरांत अखेरेक ही सेमिनारी डायोसीजन क्लर्जी हें संस्थेचे सुवादीन केली.

फाटल्या १५० वर्सांच्या काळांत हे सेमिनारीचे इमारतींत जायतीं नवीं बांदकामां आनी बदल जाल्यात. २००२ वर्सा केल्ल्या निमाण्या बांदकामा वरवीं साबार वर्ग आनी एक सभाघर बांदलां.



*राशोल सेमिनारीचें वाचपघर (वण्टीचेर स्वामीजींची तसबीर दिश्टी पडटा)*

स्वामीजींनी हे सेमिनारींत क्रिस्तांव धर्मशास्त्राचो अभ्यास करपा खातीर तीन दीस सारले. राशोल सेमिनारीचे रेक्टर मोंसेन्योर पेद्रू रेमिजिओ दास मेरशीस बार्रेटो, स्वामीजींची अध्ययन-ग्रहणताय पळोवन अजापभरीत जाल्ले.


MONSENHOR PEDRO REMIGIO DAS MERCES BARRETO
*Prelado Domestico Da Sua Santidade E Vigario Geral De Goa*

*स्वामीजी जांकां मेळ्ळे ते राशोल सेमिनारीचे रेक्टर मोन्सेन्योर पेद्रू रेमिजिओ दास मेरशीस बार्रेटो.*

थंयच्या कांय विद्यार्थ्यां वांगडा लेगीत स्वामीजींनी भासाभास केली. स्वामीजींच्या कांय प्रशंसकांच्या फुडाकारान स्वामीजींची एक रंगीत तसबीर कांय तेंपा आदीं सेमिनारीच्या वाचपघरांत एके ठळक सुवातेचेर लायल्या.

जुलै २०१२ त स्वामी विवेकानंदांची १५० वी जयंती मनयतना, आर्कियोलॉजिल सोसायटी ऑफ इंडिया (ए.एस.आय.) हे संस्थेन चारशें वर्सां आदल्या राशोल सेमिनारीचें संवर्धन आनी दुरुस्ती करपाचो वावर हातांत घेतलो. स्वामी विवेकानंदांनी हे सेमिनारीक भेट दिल्ली आनी थंयच्या वाचपघरांतले कांय सगळ्यांत प्राचीन ग्रंथ तांणी अभ्याशिल्ले, देखून केंद्रीय संस्कृती मंत्रालयान हो प्रस्ताव मांडिल्लो. तशेंच ऑक्टोबर, २०१३ त राशोल सेमिनारीन "स्वामी विवेकानंदांचें आंतर-धर्मी सौहार्दा वरवीं राष्ट्रीय एकात्मतेचें सपन" ह्या विशयाचेर एका दिसाचो परिसंवाद घडोवन हाडलो. हो परिसंवाद भारत विकास परिशद आनी पिलार सेमिनारी हांच्या जोडपालवान राशोल सेमिनारीन आयोजीत केल्लो.[१०]

३. **गोंयांतल्या मंदिरांक भेटः** स्वामीजींच्या चरित्रांत तांणी गोंयांत भेटी दिल्ल्या मंदिरांची निश्चीत वळेरी दिश्टी पडना. तांच्या वयर उल्लेख केल्ल्या पत्रांत तांणी मंदिर-भेटीं विशीं बरयलां.

गोंयांतल्या साबार प्राचीन मंदिरांनी तांणी गायन केलें म्हणपाचें कळटा. श्री. दत्ता नायक दलाल हांणी कांय रोचक तपशील दिला. तांच्या पुस्तकांतल्या[११] संबंदीत वांट्याचो हो स्वैर अणकारः

"कवळेंच्या श्री शांतादुर्गा देवळांत तांणी कालीमातेचें एक पद ताला-सुरांत, म्होंवाळ पूण खडया आवाजांत गावन जमिल्ल्या लोकांक मंत्रमुग्ध केले. ते कालीदेवीचे निश्ठावंत उपासक आसात, हें त्यावेळार लोकांक होल्मलें. म्हाड्डोळच्या श्री म्हाळसा देवी मुखार तांणी सुंदर ख्याल म्हणून दाखयलो. श्री मंगेश देवस्थानांत सुंदर रागदारींत कर्णमधूर ध्रुपद गावन तांणी थंयच्या लोकांक आपलें गायन-कौशल्य दाखयलें. मडगांवांत लेगीत सुब्रायबाबाच्या सालांत एक चीज कांय रागांनी पाऊण वर गावन तांणी सगळ्यांक अजापभरीत केलें".



*श्री म्हाळसा मंदिर*



श्री शांतादुर्गा मंदिर, कवळें, फोंडें.



श्री शांतादुर्गेची देवळांतली प्रतिमा

४. **वेंगुर्लें हांगाच्या वाचपघरांतलें भाशणः** वेंगुर्लें नगर वाचनालयाचे एके पोन्ने नोंदीप्रमाण, ''जेन्ना स्वामी विवेकानंद वेंगुर्लें हांगा आयले, तेन्ना ते हे सुवातेर (वाचपघरांत) 'संचित, प्रारब्ध आनी क्रियमाण कर्म' ह्या विशयाचेर उलयले''- असो उल्लेख मेळटा.

वेंगुर्लें हें कोंकणपट्टे वयलें एक म्हत्वाचें नगर (महाराष्ट्र). थंयचो दीपस्तंभ (लायटहावज) २४० फूट लांबायेचो आशिल्ल्यान पर्यटकां खातीर ती एक आकर्शक सुवात. देखून स्वामीजींनी हांगा निश्चीत भेट दिल्ली आसूंक जाय.[१२]



वेंगुर्लें वाचपघरांतल्या स्वामीजींच्या भाशणाचो उल्लेख करपी पुस्तकांतलो उतारो

स्वामी विवेकानंदांचे भेटे कडेन संबंदीत वेंगुर्ल्यांतलें वाचनालय आनी मडगांवांतलें घर हीं दोनूय थळां फाटल्या १२० परस चड वर्सां उपरांत लेगीत सांबाळून दवरल्यांत ही तोखणायेची गजाल मानूंक जाय. स्वामीजींचे भेटेचो सुयोग १८९२ वर्सां लाबिल्ल्या गोंयकारांच्या तांचे विशींच्या निस्सीम भक्तीची ही एक बरी देख. ह्या वास्तूंक लागून ज्या विचारां खातीर स्वामीजी जगले, त्या विचारांची याद उरूंक आनी ते विचार चिरस्थायी करूंक मदत जाता, हांतूंत मातूय दुबाव ना.



*वेंगूर्लें वाचनालयाची इमारत*




*वेंगुर्लें वाचनालयाचो फलक, जाचेर फाटल्या १३६ वर्सांत भेटी दिल्ल्या नामनेच्या व्यक्तींचीं नांवां मराठींत प्रदर्शीत केल्यांत. स्वामीजींचें नांव वळेरेंत सगळ्यांत वयर आसा.*

५. **गायन-सत्रां**ः आपणाल्या 'यती सुब्रम्हण्यानंद' ह्या मराठी पुस्तकांत श्री. दलाल हांणी स्वामीजींच्या श्री. सुब्राय नायक हांचे बराबरच्या सहवासा विशीं कांय रोचक गजाली सांगल्यात. तबलावादनांत स्वामीजी निश्णात आशिल्ले. एक दीस खाप्रूमाम पर्वतकार (खाप्रूमाम तेन्ना सुमार १३-१४

वर्सांचे आशिल्ले आनी तबलापटू म्हूण निकतीच तांकां नामना मेळूंक लागिल्ली) हांकां सुब्रायबाबांनी मुजरत आफोवन तांची वादनकला सादर करुंक लायली. स्वामीजींनी तांकां म्हणलें, "लाकडी पेटुलाचे कडेचेर बोटां घासून आवाज काडटा, तसोच आवाज वयल्या चामड्याच्या थरांतल्यान काडूंक येवंक जाय." खाप्रूमामांक तें पटूं ना. फकाणां करी ना न्ही, अशें तांणी ल्हवूच म्हणलें. स्वामीजी कोचा वेल्यान सकयल देंवले आनी बैठक मारून तांणी चामड्यांतल्यान इतलो सुंदर आवाज काडून दाखयलो, तो आयकून सगळे लोक चकीत जाले. खाप्रूमामान तांकां साश्टांग नमस्कार करून माफी मागली. गायतना ते (स्वामीजी) वोंठ वाकडेतिकडे पेंचय नासले वा कसलोच अंगविक्षेप करिनासले. गायन कले विशीं सहज उलयतनां तांणी म्हणलें, "गावप्यान आपलें तोंड अमूक सेंटिमीटरा परस चड पेंचचें न्ही".[१३]



*स्वामीजींनी जंय ख्याल सादर केलो त्या म्हाळसा मंदिराचें अंतरंग.*



*श्री. खाप्रूमाम पर्वतकर हांणी स्वामीजींक तबल्याचेर साथसंगत केली.*

मडगांवच्यान रेल्वेन स्वामीजी धारवाड आनी थंयच्यान बंगळुरू हांगा गेले. ल्हानशी आसली तरी स्वामीजींची ही गोंय भेट महत्वपूर्ण आनी इतिहासीक आशिल्ली. आपणांक मेळूंक आयिल्ल्या असंख्य लोकांच्या काळजाचेर तांणी आपणाली वज्रलेपी छाप निर्माण केली.

एक खाजगी केंद्र (रामकृष्ण मठ आनी रामकृष्ण मिशना कडेन कायदेशीरपणान संलग्न नासलें तरी रामकृष्ण पंथाच्या विचारांचेर आनी तत्वप्रणालीचेर स्थापन जावन चलपी) फाटलीं २० वर्सां स्वामीजींचें गोंयांतलें अस्तित्व चिरस्थायी करपाचो आनी तांचो व्यक्तीनिर्माणाचो आनी सामर्थ्याचो संदेश लोकां मदीं पातळावपाचो यत्न करीत आसा. ह्या केंद्राचें (रामकृष्ण सेवा समिती, पारसोल, उसगांव, फोंडें, गोंय) उक्तावण १९९६ वर्सा रामकृष्ण मठ आनी रामकृष्ण आश्रमाचे तेन्नाचे उपाध्यक्ष आनी उपरांतचे अध्यक्ष प.पू. स्वामी गहनानंदजी हांचे हस्तुकीं जाल्लें. ही समिती नेमान प्रार्थना-सत्रां आनी प्रासंगीक व्याख्यानांचें आयोजन करता तशेंच श्रीरामकृष्ण आनी स्वामी विवेकानंद हांचीं चरित्रां आनी एकात्मीक अध्यात्मा वेल्या पुस्तकांची विक्री करता.

## समारोप

स्वामी विवेकानंद हे एक उर्जास्रोत आशिल्ले आनी आसात. संवसाराचे फाटी वयले असंख्य दादले आनी बायलो तांचें जिवीत आनी शिकवण हातूंतल्यान सामर्थ्य आनी प्रेरणा मेळयत आसात. तांचें तेजस्वी साहित्य वाचून जिणेचो नवो अर्थ होल्मिल्ल्यो आनी मनीसकुळयेचे किर्तीची नव्यान जाणविकाय जाल्ल्यो जायत्यो व्यक्ती-दादले आनी बायलो-व्हडा संख्येन मेळटात. खासा स्वामीजींनीच एका शेंकड्या पयलीं सांगलां, ताची याद जालेबगर रावना:

"जीर्ण जाल्लें वस्त्र शेडायल्ले भशेन, हांव म्हजी कूड सोडून मुक्त जाल्यार म्हाका बरें दिसतलें, अशें जावं येता, पूण हांव कार्य करपाचें थारोवचों ना. सगळो संवसार नियंत्या लागीं एकरूप जाला हें ताका होल्मतलें तोमेरेन हांव दरेका मनश्याक, मागीर तो खंयीय आसूं, प्रेरणा दीत रावतलों."[१४]

## संदर्भावळ

१. CW, ७:१०

२. गीता, ५.१८

३. पळयातः Life of Swami Vivekanand by His Eastern and Western Disciples, अद्वैत आश्रम, कोलकाता (हाचे उपरांत ताचो उल्लेख 'Life') (पानां ३०८-३१८) स्वामी विवेकानंद का महाराष्ट्र भ्रमण (हिंदी) - स्वामी विदेहात्मानंद, रामकृष्ण मठ, नागपूर (हाचे उपरांत ताचो उल्लेख 'भ्रमण') (पानां ११२-१३२). Reminiscences of Swami Vivekananda, अद्वैत आश्रम, कोलकाता (पानां २२-५१)

४. Life (पान ३१८)

५. ह्या विभागांत उद्‌धृत तपशील आनी आकडेवारी हांचे सत्यताये खातीर उपकार करून http://en.wikipedia.org/wiki/Goa हें संकेतथळ पळोवचें.

६. Life (पानां ३१९-३२०)

७. भ्रमण (पान १३३)

८. भ्रमण (पानां १४०-१४१)

९. पास्टोर मोस्ट रेव्हरंड फिलीप नेरी फेर्राव हांचे विशीं सेमिनारीन जारी केल्ले माहिती-पुस्तिकेंतल्यान.

१०. Times of India, Goa Edition (२० जुलाय, २०१२, ३० सप्टेंबर, २०१३)

११. यती सुब्रम्हण्यानंद (मराठी), प्रकाशन १९५७

१२. भ्रमण (पान १३५).

१३ Life, १:३२०

१४. Life, २:६६१

★ ★ ★

## परिशिश्ट

# स्वामी विवेकानंदांचें जिवीत

कोलकातांतल्या एका संपन्न कुटुंबांत १२ जानेवारी, १८६३ दिसा, फुडें तांचे संन्याशी जिणेंत स्वामी विवेकानंद म्हूण नामनेक पाविल्ल्या नरेंद्रनाथ दत्त हांचो जल्म जालो. तांचो बापूय विश्वनाथ दत्त हो साबार तरांच्या विशयांनी रुची आशिल्लो एक यशस्वी वकील आशिल्लो जाल्यार भुवनेश्वरी देवी ही भोवच भक्तीवंत, शीलवंत आनी सुगुणी आवय तांकां लाबली. भुरगेपणांतूच जिणेची समजिकाय लाबिल्ल्या नरेंद्रान संगीत, खेळ आनी शिक्षणांत प्राविण्य दाखयलें. कलकत्ता विद्यापिठाची पदवी प्राप्त करी मेरेन ताणें विंगड विंगड विशयांचें, खासा करून पश्चिमी तत्वगिन्यान आनी इतिहास विशयांचें सखोल ज्ञान संपादन केल्लें. जल्मा सावन योगी मनशाची प्रवृत्ती लाबिल्ल्यान भुरगेपणांतूच तो ध्यानधारणा करतालो. कांय काळ तांचो संबंद ब्राह्मो चळवळी कडेन आयलो.

### *श्रीरामकृष्णांचो सहवास*

तरणेपणाच्या हुंबऱ्यार आसतनाच, देवाच्या अस्तित्वा विशींच्या

दुबावांनी घेरिल्ल्या कारणान नरेंद्राच्या मनांत अध्यात्मीक द्वंद्व सुरू जालें. ह्या वेळार पयलेच फावट ताचे कॉलेजींतल्या एका इंग्लीश विशयाच्या प्राध्यापका कडल्यान ताणें श्रीरामकृष्ण परमहंसांचें नांव आयकलें. १८८१ च्या नोव्हेंबरांत एक दीस नरेंद्र श्रीरामकृष्णांक मेळूंक दक्षिणेश्वर हांगा कालीमातेच्या देवळांत गेलो. जो प्रस्न साबार हेर जाणकारांक विचारून लेगीत ताका समादानकारक जाप मेळूंक नाशिल्ली, तोच प्रस्न ताणें श्रीरामकृष्णांक सरळ विचारलोः "गुरूजी, तुमी देवाक पळयला?" "हय, हांवें पळयला. जितल्या स्पश्टपणान हांव तुका पळयतां, तितल्याच स्पश्टपणान हांवें देवाक पळयला. फकत तीव्र अंतःसंवेदनेंतल्यान" श्रीरामकृष्ण हांणी खीणभर लेगीत अनमननासतना जाप दिली.

नरेंद्राच्या मनांतले दुबाव श्रीरामकृष्णांनी पयस केलेच, त्याभायर तांच्या शुद्ध, सात्वीक मोगान तांणी ताचें काळीज जिखलें. अशें रितीन अध्यात्मीक गुरूंच्या इतिहासांतले एके अद्वितीय गुरू-शिश्य परंपरेक सुरवात जाली. नरेंद्राच्यो दक्षिणेश्वराच्यो भेटी वाडल्यो आनी आपल्या गुरूच्या मार्गदर्शना खाला ताणें अध्यात्मीक मार्गाचेर खूब प्रगती केली.

दक्षिणेश्वराक नरेंद्राची भेट श्रीरामकृष्णांचे शिश्य आशिल्ल्या साबार हेर तरणाट्यां कडेन लेगीत जाली आनी भेटीचें रुपांतर इश्टागतींत जालें.

## *बिकट प्रसंग*

कांय वर्सां उपरांत घडिल्ल्या दोन प्रसंगांक लागून नरेंद्राक सुमारा भायर दुख्ख जालें. ताचो बापूय 1884 वर्सा अकस्मात भायर पडलो, हें एक. ताका लागून ताच्या कुटुंबाचो अर्थीक-आदार तुटलो आनी नरेंद्राच्या खांदा़र आवय, भाव आनी भयणीची जापसालदारकी आयली. दुसरें म्हणल्यार श्रीरामकृष्ण हांकां घश्याचो कॅन्सर जावन ते दुयेंत पडले. सप्टेंबर, 1885 त श्रीरामकृष्णांक श्यामपुकूर हांगाच्या एक घरांत व्हेले आनी कांय म्हयन्यांनी काशीपूर हांगाच्या एका भाड्याच्या घरांत हालयले. तरणाट्या शिश्यांनी दोनूय कडेन आपल्या गुरूची व्हडा भक्तीभावान सेवासुश्रुशा केली. घरांतली गरिबी आनी नोकरी मेळोवंक अपेस येवन लेगीत नरेंद्रान फुडारपण घेवन ह्या शिश्यां वांगडा श्रीरामकृष्णांची सेवा केली.

## *संन्याशी जिणेचो प्रारंभ*

श्रीरामकृष्णांनी ह्या तरणाट्यां भितर सर्वसंगपरित्याग आनी एकमेकां विशीं बंधुभावाची भावना रूजयली.

एक दीस तांणी तांकां भगवीं वस्त्रां वांटलीं आनी भिक्षा मागूंक धाडले. अशे तरेन तांणी एका नव्या संन्याशी पंथाची बुन्याद

घातली. नरेंद्राक आपल्या ह्या नव्या संन्याशी पंथाचे बांदावळी विशीं तांणी गरजेच्यो सुचोवण्यो दिल्यो. १६ ऑगस्ट, १८८६ दिसा श्रीरामकृष्णांनी आपलो देह दवरलो.

गुरूच्या मरणा उपरांत, तांचे १५ तरणाटे शिश्य (आनीक एक गुरूच्या मरणा उपरांत येवन मेळ्ळो) उत्तर कोलकातांतल्या बारानगर हांगा एका पोरण्या घरांत एकठांय रावपाक लागले. नरेंद्राच्या फुडारपणा खाला तांणी एके नवे संन्याशी परंपरेची स्थापना केली. १८८७ वर्सा तांणी संन्याशीपणाचो अधिकृत सोपूत घेतलो आनी नवीं नांवां धारण केलीं. नरेंद्र आतां स्वामी विवेकानंद जालो. (खरेंपणान हें नांव तांणी कांय तेंपा उपरांत धारण केलें.)

*जिणे-ध्येया विशीं जागृताय*

नवो संन्याशी परंपरा स्थापन करतकीच स्वामीजींक तांचे जिणेच्या एका व्हड ध्येया विशींचो अंतर्साद आयकूंक आयलो. श्रीरामकृष्णांचे चडशे हेर शिश्य जेन्ना तांचो संबंद आपले व्यक्तीगत जिणेकडेन जोडटाले, तेन्ना नरेंद्र मात गुरू कडलें आपलें नातें देश आनी उर्वरीत संवसार हांच्या संदर्भांत जोडटालो. त्या युगाचो एक व्हड प्रवर्तक म्हूण

श्रीरामकृष्णांनी ह्या संवसाराक आनी खासा करून भारताक कसलो संदेश दिलो? हो प्रस्न आनी आपले आंतरीक शक्ती विशींची जाणविकाय हांकां लागून स्वामीजींक ह्या विशाल संवसाराचें दर्शन घेवपाची इत्सा जाली. देखून १८९० च्या मध्याक श्रीरामकृष्णांची दिव्य सहचारिणी, जी त्या वेळार कोलकात्यांत रावताली आनी तिका सगळे जाण माता देवी म्हूण वळखताले, त्या शारदा देवीचे आशिर्वाद घेवन स्वामीजींनी बारानगर मठ सोडलो आनी भारत देशाक जाणून घेवपाचे एके व्हड यात्रेचो प्रारंभ केलो.

### *भारताच्या वास्तव रुपाचो सोद*

भारत परिक्रमे मजगतीं सामान्य भारतीयांची गरिबी आनी मागासलेंपण पळोवन स्वामीजी भोवच दुखेस्त जाले. भारताच्या अधःपतनाचें खरेलें कारण म्हणल्यार जनसामान्यां कडेन जाल्ली आडनदर हें जाणपी आनी उत्तेंपणान मांडपी भारतांतले ते पयलेवयले धर्मीक फुडारी आसात. लाखांनी भुकेकंगालांक बेगीनांत बेगीन अन्न आनी हेर मुळाव्या गरजांची पुरवण करप गरजेचें आशिल्लें.

तेखातीर शेतकामाचें अर्विल्लें तंत्रज्ञान, ग्रामोद्योग आदी हांचें

शिक्षण तांकां दिवप गरजेचें. भारतांतले गरिबीचें मर्म ह्या संदर्भांत विवेकानंदांनी जाणून घेतलें (जें तांच्या काळांतल्या समाज सुदारकांचे मतींत येवंक नाशिल्लें), तें अशें: हजारांनी वर्सांचे पिडणुकेक आनी दमनाक लागून पददलित समाजान आपली क्षमताय वाडोवपाची तांक वगडायल्या. देखून सगळ्यांत पयलीं ताचे भितर आत्मविश्वास बिंबोवप गरजेचें आसा. ते खातीर तांकां जिवनदायी, उर्बा दिवपी संदेश दिवपाची गरज आसा. स्वामीजींक हो संदेश भारतीय तत्वदर्शनांतले प्राचीन वेवस्थेंतल्या वेदान्तांतल्या, 'आत्मन्' ह्या 'स्व'त्वाचे दैवी क्षमतायेच्या सिद्धांतांत मेळ्ळो. अठरा विश्व दळडीर आसतना लेगीत तळागाळांतलो समाज धर्माक दसून रावता, पूण ताकां वेदान्तांतलीं जीवनप्रद आनी उत्प्रेरक तत्वां आनी ती वेव्हारीक जिणेंत कशीं राबोवचीं हांची शिकवण केन्नाच मेळूंक ना, हें तांणी जाणलें.

देखून भौजनसमाजाक दोन तरांची विद्या गरजेची आसा- तांची अर्थीक स्थिती सुदारपाचे नदरेन भौतीक गिन्यान आनी आत्मविस्वास बिंबोवन तांची नैतीक धारणा बळिश्ट करपाचे नदरेन अध्यात्मीक गिन्यान.

ह्या दोनूय तरांच्या गिन्यानाचो प्रसार तळागाळा मेरेन

कसो करप? हो प्रस्न मुखार उबो रावलो आनी ताची जाप स्वामीजींक मेळ्ळी- शिक्षणा वरवीं.

## *संघटनेची गरज*

शिक्षणाच्या प्रसारा खातीर आनी गरीब धाकट्यांच्या तशेंच बायलांच्या उत्थाना खातीरच्यो येवजण्यो राबोवपाचे नदरेन समर्पीत लोकांची एक कौशल्यपुराय संघटना गरजेची आसा, ही गजाल स्वामीजींक होल्मल्ली. तांणी उपरांत म्हणिल्ले भशेन, तांकां ''गरिबांतल्या गरीब आनी सामान्यांतल्या सामान्य मनशाच्या दारा मेरेन म्हान विचार पावोवपी एक यंत्रणा'' चालीक लावपाची आशिल्ली. कांय वर्सां उपरांत हीच 'यंत्रणा' म्हण वावुरपाचे नदरेन स्वामीजींनी 'रामकृष्ण मिशना'ची स्थापना केली.

## *सर्वधर्म परिशदेक उपस्थित रावपाचो निर्णय*

भारत परिक्रमे मजगतीं तांच्या मनांत वयले विचार घर करूंक लागिल्ले आसतनाच, १८९३ वर्सा शिकागो हांगा जावपाच्या आशिल्ल्या संवसारीक सर्वधर्म परिशदे विशींची खबर विवेकानंदांच्या कानार पडली.

हे परिशदेक तांणी हाजीर रावचें अशी तांच्या इश्टांची आनी

बरें मागप्यांची इत्सा आशिल्ली. आपल्या गुरूचो संदेश संवसारा मुखार दवरपाक हे परिशदेचें व्यासपीठ योग्य आसा, अशें तांकांय दिसलें, आनी देखून तांणी अमेरिकेक वचपाचो निर्णय घेतलो. जनसामान्यांच्या पुनरुत्थानाच्या आपणाल्या प्रकल्पा खातीर अर्थीक पालव मेळोवप हें तांकां अमेरिकेक वचपाक प्रवृत्त करपी दुसरें कारण.

पूण स्वामीजींक आपले हे मोहिमे खातीर अंतःनिश्चेव आनी दैवी सादाची गरज दिसताली. त्या दोनांयची प्राप्ती तांकां कन्याकुमारी हांगा जुंव्या वयले शिळेचेर बशिल्ले कडेन लाबिल्ले प्रदीर्घ समाधी वरवीं जाली. तांच्या चेन्नय हांगाच्या शिश्यांनी एकठांयिल्ली आनी खेत्रीच्या राजान दिल्ली रक्कम घेवन, स्वामी विवेकानंद ३१ मे, १८९३ दिसा मुंबयच्यान अमेरिकेक वचूंक भायर सरले.

## *सर्वधर्म परिशद आनी उपरांत*

सप्टेंबर १८९३ वर्सा जाल्ले संवसारीक सर्वधर्म परिशदेंत तांणी केल्ल्या भाशणांक लागून 'दैवी वरदान लाबिल्लो वक्तो' आनी 'पश्चिमी जगता खातीर भारतीय बुद्धीवैभवाचो दूत' अशी नामना तांकां लाबली.

परिशदे उपरांत स्वामीजींनी अमेरिकेच्या पुर्वे कडल्या वाठारांनी आनी लंडन हांगा लेगीत सुमार साडेतीन वर्सां श्रीरामकृष्णांनी आचरिल्ल्या आनी शिकवण दिल्ल्या वेदान्ताचो प्रसार करीत सारलीं.

## *देशभावां मदीं जागृताय*

जानेवारी १८९७ त स्वामीजी भारतांत परतले. आपणाक सगळे कडेन मेळिल्ल्या उर्बेभरीत येवकारांक उद्देसून, भारताच्या विंगड विंगड वाठारांनी तांणी साबार प्रवचनां दिलीं, जांकां लागून देशांत चेतना निर्माण जाली. ह्या प्रेरक आनी बुदवंतकायेन भरिल्ल्या व्याख्यानां वरवीं स्वामीजींनी सकयल्ल्यो मोखी सादपाचो यत्न केलोः

- लोकांची धर्मा विशींची श्रद्धा जागृत करप आनी आपल्या संस्कृतीक दायजा विशीं तांचे मदीं अभिमान निर्माण करप;
- पंथ-उपपंथां मदले समान दुवे दाखोवन दिवन हिंदुत्वाचें एकसूत्रीकरण करप;
- पददलितांचे दैन्यावस्थे कडेन शिक्षीत लोकांचें लक्ष ओडप आनी वेव्हारीक वेदान्ताचीं तत्वां राबोवन पददलितांच्या उत्थानाची आपली येवजण तांचे मुखार उक्तावप.

## रामकृष्ण मिशनाची स्थापना

कोलकात्यांत परततकीच रोखडेंच, स्वामी विवेकानंदांनी धर्तरि वेल्या आपल्या मिशनाची दुसरी जापसालकी निभायली. १ मे १८९७ दिसां 'रामकृष्ण मिशन' हे अशे एके वैशिश्ट्यपुराय संस्थेची स्थापना तांणी केली, जातूंत संन्याशी आनी सामान्य मनीस, दोगांयनी एकठांय येवन वेव्हारीक वेदान्ताचो प्रसार करूं येता वा तांणी भारताच्या विंगड विंगड वाठारांनी वा देशाभायर हॉस्पिटलां, शाळा, महाविद्यालयां, हॉस्टेलां, ग्रामीण विकास केंद्रां आदी चलोवप आनी भूंयकांप, वादळ आनी हेर सैमीक आपत्तींत सांपडिल्ल्यांक भरीव मदत करप आनी तांचें पुनर्वसन करप अशा साबार तरांचीं समाजकार्यां करूं येतात.

## बेलूर मठ

१८९८ चे सुरवेक स्वामी विवेकानंदांनी, मूळ बारानगर हांगा सुरू केल्ल्या आश्रम आनी संन्याशी परंपरे खातीर एक कायमस्वरुपी वास्तू आसची म्हूण गंगेचे पश्चिमी तटाचेर बेलूर हांगा जमनीचो एक व्हड प्लॉट संपादीत केलो आनी एक-दोन वर्सां उपरांत ''रामकृष्ण मठ'' अशें ताचें रजिस्ट्रेशन केलें. हांगां स्वामीजींनी संन्याशी जिविताची एक नवी परंपरा विकसीत केली, जातूंत प्राचीन संन्याशी आदर्शांचे आधुनीक जिणेचे स्थितींत अनुकुलीकरण जावन, आत्मदीप्ती आनी समाजसेवा

हांकां समसमान म्हत्व फावो जाता, आनी खंयचोच धर्म, वंश वा जात हांचे मदीं भेदभाव करीनासतना समेस्त मानवजातीक ह्या पंथांत उक्तो प्रवेश मेळटा.

## *शिश्य*

स्वामी विवेकानंदांचें जिवीत आनी तांच्या विचारांचो अस्तेंत देशांनी जायत्या जाणांचेर प्रभाव पडलो, हाचो हांगा मुजरत उल्लेख करूंक जाय. तातूंतले कांयजाण तांचे शिश्य वा घनिश्ट इश्ट जाले.

तांतूंत मागरिट नोबल (भगिनी निवेदिता ह्या नांवान परिचीत), कॅप्टन आनी श्रीमती सेविएर, जोजेफिन मॅकलिऑड आनी सारा ओले बुल हांचो खासा उल्लेख करूंक जाय. भगिनी निवेदिता हिणें कोलकात्यांत चलयांच्या शिक्षणा खातीर आपलें जिवीत वेंचलें. स्वामीजींचे जायते भारतीय शिश्य लेगीत आशिल्ले, तातूंतले कांयजाण रामकृष्ण मठांत रुजू जाले आनी संन्याशी जाले.

## *निमणे दीस*

१८९९ वर्सा तांणी पश्चिमेक दुसरी भेट दिली. हे फावट तांचो राबितो चड करून अमेरिकेचे पश्चिम दर्यादेगे वयल्या वाठारांनी आशिल्लो. थंय साबार प्रवचनां दिल्या उपरांत,

१९९० च्या डिसेंबरांत ते बेलूर मठांत परतले. आपलें उरिल्लें जिवीत तांणी भारतांतच संन्याशी आनी सामान्य, दोनूय तरांच्या लोकांक उबा दीत आनी मार्गदर्शन करीत सारलें. खासा करून प्रवचनां दिवपाच्या आनी लोकांक प्रेरणा दिवपाच्या अविरत कामाचो तांचे भलायकेच्येर परिणाम जालो. तांची भलायकी इबाडली आनी ४ जुलाय, १९०२ चे राती कडेन तांची जिवीतयात्रा सोंपली. महासमाधी घेवचे पयलीं आपल्या पश्चिमेंतल्या एका शिश्याक उद्देसून तांणी बरयिल्लें:

''जीर्ण जाल्लें वस्त्र शेडायल्ले भशेन, हांव म्हजी कूड सोडून मुक्त जाल्यार म्हाका बरें दिसतलें अशें जावं येता. पूण हांव कार्य करपाचें थारोवचों ना.. सगळो संवसार नियंत्या लागीं एकरूप जाला हें ताका होल्मतलें, तो मेरेन हांव दरेका मनशाक, मागीर तो खंयींय आसूं, प्रेरणा दीत रावतलों''.



# स्वामी विवेकानंदांची वेंचीक शिकवण

- खरें म्हणल्यार म्हजे विचार साप्प थोड्या उतरांनी मांडू येतात, अशे भाशेनः मनीसकुळ्ळयेक तिचे भितरल्या देवत्वाची आनी जिणेच्या दरेका खिणाक तिचें प्रकटीकरण कशें करप ताची शिकवण दिवप.
- शिक्षण म्हणल्यार दरेका मनशा भितर उपजत आशिल्ले परिपुर्णतायेची उक्तावणी.
- जाका लागून चारित्र्य घडटा, मनाची शक्ती वाडीक लागता, बुद्धीमत्तेचो विस्तार जाता आनी जाका लागून मनीस ताच्या पांयांर उबो रावंक शकता, आमकां ते तरेचें शिक्षण जाय.
- लाखांनी भुकेल्ले आनी अज्ञानी मनीस आसतना लेगीत, तांच्याच कुस्तार शिक्षीत जाल्लो मनीस जो मेरेन तांचे कडेन मात लेगीत पळयना, तोमेरेन हांव तशे दरेके व्यक्तीक कृतघ्न मानतलों.
- जशे येवजितले, तशे तुमी जातले. तुमी स्वताक दुबळे मानले, तुमी दुबळे जातले; तुमी स्वताक सामर्थ्यवान मानले, तुमी सामर्थ्यवान जातले.
- जर तुमचो तुमगेल्या समेस्त ३३ कोटी देवांचेर विस्वास आसा पूण खासा तुमचेरूच तुमचो विस्वास ना जाल्यार तुमकां मोक्षप्राप्ती जावची ना. तुमी तुमचेरूच विस्वास दवरात आनी त्या विस्वासाचेर घट उबे रावात आनी सामर्थ्यवान जायात; जाची खरी गरज आसा.

- हें जिणेंत आमकां भरपूर सामर्थ्य, फकत सामर्थ्य जाय. हाचें कारण, जांकां आमी पाप आनी दुख्ख म्हणटात तांचें एकूच मूळ आसा आनी तें म्हणल्यार आमचें दुबळेपण. दुबळेपणांक लागून अज्ञान रिगता आनी अज्ञानाक लागून आपत्ती कोसळटा.
- हांव जितलों जाणटो जायत वतां तशें तशें म्हाका सगळें मनीसपणांतूच आस्पाविल्लें आसा हें होल्मता. हो म्हजो नवी संदेश.
- परिशुद्धताय, सोंशीकपण आनी चिकाटी ह्यो यश प्राप्ती खातीरच्च्यो तीन गरजेच्यो गजाली जावन आसात आनी प्रेमाची सुवात तांचेपरसूय वयर आसा.
- धर्म म्हणल्यार आत्मप्रचिती; न्हय भाशण, न्हय शास्त्र, न्हय सिद्धांत, मागीर ते कितलेय सुंदर आसूं. धर्म म्हणल्यार आसप आनी जावप, न्हय आयकुवप वा न्हय सत्-परगटावणी; जाचेर आपलो विस्वास आसा तातूंत पुराय आत्म्याचें जावपी परिवर्तन म्हणल्यार धर्म.
- धर्म म्हणल्यार मनशा भितर उपजत आशिल्ल्या देवत्वाची परगटावणी.
- खासा तुमकां आनी दरेकल्याक ताचें खरेलें स्वरुप पळोवंक शिकयात, न्हिदिल्ल्या आत्म्याक साद घालात आनी ताचें जागें जावप पळयात. हो निद्रिस्त आत्मो जागो जावन जेन्ना आत्मविवेकी कार्याक बांदून घेतलो तेन्ना उर्जा येतली, वैभव येतलें, बरेंपण येतलें, शुचिर्भुतताय येतली आनी जें जें उत्कृश्ट आसा तें सगळें येतलें.

- जें हेरां खातीर जगतात तेच खरेपणीं जियेतात, बाकीचीं सगळीं जितीं मडीं.

- सगळ्या तरांच्या उपासनेचें सार हेंच- शुद्ध जावप आनी हेरां लागीं बरेपणान वागप.

- म्हजी शिकवण प्रेम आनी फकत प्रेमाचीच आनी हांवे ती 'वेदान्ताची समता आनी आत्म्याची विश्वव्यापकताय' ह्या सत्याचेर आदारल्या.

- धर्तरे वेलो दरेकलो जीव म्हणल्यार अव्यक्त ब्रह्म. बाह्य आनी आंतरीक अशा दोनूय प्रकृतींचें नियमन करून ह्या अंतर्ब्रम्हस्वरुपाक अविश्कारीत करप हेंच जिणेचें ध्येय आसा. कर्म, भक्ती, योग वा ज्ञान हांचे वरवीं, हांचे मदल्या खंयच्याय एका वरवीं वा चडां वरवीं वा ह्या सगळ्यांच्या मिलाफा वरवीं हें ध्येय प्राप्त करून घेयात आनी मोक्ष मेळयात. हेंच धर्माचें सार जावन आसा. शास्त्रां, पुराणां, अनुष्ठानां, ग्रंथ, मंदिरां वा रुपां हीं सगळीं दुय्यम आसात.

- उठात, जागे जायात आनी ध्येयप्राप्ती जाले बगर थारूं नाकात.

- ***उपकारः***

*'Holy Trio and Their Mission' श्रीरामकृष्ण मठ, मिलापोर, चेन्नय, २०१२ (पानां २५-५७) ह्या स्वामी भजनानंद हांच्या पुस्तकांतले वेंचे.*

## चडावत वाचना खातीर कांय ग्रंथः

- *Eastern and Western Disciples, Life of Swami Vivekanand* दोन खंड, कोलकाता; अद्वैत आश्रम www.advaitaashrama.org
- *The complete Works of Swami Vivekananda,* णव खंड, कोलकाता; अद्वैत आश्रम.
- रोमा रोलाँ *The Life of Swami Vivekanand* अनुवाद इ. के. माल्कम स्मिथ, कोलकाता. अद्वैत आश्रम.
- *Teachings of Swami Vivekananda,* कोलकाता. अद्वैत आश्रम.

* * *

# अमृत संदेश

**- श्रीरामकृष्ण**

- गिरेस्ताच्या घरांतली वावराडी ताच्या घरचीं सगळीं कामां करता, पूण तिचें मन लागिल्लें आसता तें गांवांतल्या आपल्या घरा कडेन. धनयाच्या भुरग्यांक ती आपल्याच भुरग्यां भशेन सांबाळटा. म्हणटा,'म्हजो शाणुलो', 'म्हजो बाबुलो'. पूण मनांतल्यान मात तिका सारकें खबर आसता, हे म्हजे कोणूच न्हय.
- संवसारांत रावात आनी सगळीं कामां करात, पूण मन मात लायात- ईश्वरचरणीं. ताका सोडलो जाल्यार अनर्थच अनर्थ.
- ह्या संवसाराच्या म्हासागरांत काम-क्रोध... अश्यो स भिरांकूळ मानग्यो आसात. पूण तुमी जर विवेक-वैराग्यरुपी हळद आंगाक लावन उदकांत देंवले जाल्यार तुमकां त्या मानग्यांचो भंय उरचो ना.
- भगवत्प्राप्ती खातीर ह्यो कांय गजाली गरजेच्यो- बऱ्या लोकांचो सांगात, विवेक आनी सद्गुरूंची कृपा.
- प्रेम कित्याक म्हणटात, तुमी जाणा? प्रेमांत हरिनामाचो उच्चार करतां करतां संवसार विसरायेर तर पडटाच, पूण आपली कूड - जी आपणाक इतली प्रिय आसता तिचो लेगीत उगडास उरना.

- म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार भगवंताचेर प्रेम करूंक जाय. आवय आपल्या पुताचेर जसो मोग करता, बायल आपल्या घोवाचेर जशें प्रेम करता, संवसारी मनीस आपले संपत्तीचेर जशें प्रेम करता, तसलें प्रेम जाय. ह्या तिगांयचें प्रेम, ह्यो तिनूय ओडी एकठांयिल्ल्यान जाता तितलें प्रेम भगवंताचेर करूंक येतकीच ताचें दर्शन घडटा.
- मनशाक कर्म चुकना. कर्म केल्या उपरांतूच ताका भगवंताचें दर्शन जाता. कर्म केले बगर भक्ती लाबना. ताचें दर्शन जायना. कर्म म्हणल्यार ध्यान, जप आदी. भगवंताचें नामस्मरण आनी गुणगान म्हणल्यार लेगीत कर्मच. तशेंच दानधर्म, यज्ञ म्हणल्यार लेगीत कर्मच.
- हारश्याचेर धुल्ल बशिल्लो आसत जाल्यार तातूंत चेरो सारको दिश्टी पडना. चित्त शुद्‌ध जालें म्हणटकीच तातूंत भगवत्‌भक्ती उत्पन्न जाता. मागीरूच भगवंताची कृपा जावन ताचें दर्शन जाता. ताचें नामस्मरण करीत कूड आनी मन शुद्‌ध करून घेयात. ताच्या पावन नामगुणगानान जीब पवित्र करून घेयात.
- सत् उलोवप हीच कलीयुगांतली तपस्या. सत्याक नेटान दसून रावतकीच भगवान लाबता. सत्याचेर असली निश्ठा आसत जाल्यार ल्हवूल्हवू सगळ्याच वायट गजालींचो नाश जाता.
- धर्म खंयचोय आसूं, पंथ खंयचोय आसूं, सगळेच जाण त्या एकाच ईश्वराक साद घालतात. देखून खंयच्याय धर्माची

वा पंथाचीं भगलां मारप वा द्रेस करप समा न्हय.

- ध्यान करचें मनांत - कोनश्यांत - वनांत.
- सतत नामस्मरण आनी सेगीत ताचें गुणसंकीर्तन करूंक जाय. त्याभायर सत्संग, भगवत्भक्तांच्या वा साधू-सत्पुरुशांच्या पांया कडेन अदींमदीं वचप गरजेचें.
- रेशमाचो किडो आपलेच कुडींतल्या द्रव्याचें घर तयार करून तातूंत आपल्याकूच कोंडून घेता. तसोच संवसारी मनीस लेगीत आपल्याच कर्मांनी आपणाकूच बांदून घेता. त्या किड्याचें जेन्ना फुलपाखरूं जाता, तेन्ना तें आपले भोंवतणेचो कोश फोडून भायर येता. तेच भशेन विवेक - वैराग्याचो उदेव जातकीच आपणाकूच बांदून घेतिल्लो जीव मुक्त जावंक पावता.
- जिवा विशींचो अहंकार, हांवपण-हीच माया. ह्या अहंकारानूच सगळें धांपून उडयलां. हो 'हांव' एकफावट मेलो काय कटकट गेली! देवादयेन 'हांव कर्तो न्हय' अशी जाणीव जायत जाल्यार ती व्यक्ती जिणेंतल्यान मुक्त जाली अशें म्हणूं येत. मागीर तिका कसलोच भंय ना.
- परमेश्वर सगळ्यां ठाय आसा. तरी लेगीत बऱ्या लोकां वांगडाच घनिश्ट संबंद दवरूंक फावो. पूण वायट लोकांपसून मात चार हात पयस राविल्लें बरें. वागांत लेगीत नारायण आसताच, पूण देखून ताका वेंगावप समा न्हय.

* * *

# अमृत-संदेश

**- श्रीशारदादेवी**

- पुता, तुका खबर आसा न्हय, संवसारांतल्या दरेका विशीं ठाकुरांचो मातृभाव आशिल्लो तें? संवसारांत त्या मातृभावाचो विकास जावचो म्हूण ते हे खेपेक म्हाका फाटल्यान दवरून गेल्यात.
- हांव एक खरेली आवय. हांव फकत गुरुपत्नी म्हूण जाल्ली, मानिल्ली आवय न्हय. फकत नांवापुरती आवय न्हय. खऱ्या अर्थान हांव आवय आसां.
- सामकें खरें सांगतां, खरेंपणान श्रीरामकृष्ण हे परमेश्वरच आशिल्ले. सामान्य मनशाचें दुःख आनी क्लेश पयस करपा खातीर तांणी मानवदेह धारण केल्लो. एकाद्र्या राजान वेश बदलून आपले राजधानींत भोंवचें, तशे ते ह्या संवसारांत वावुरताले. लोकांनी तांकां जेन्ना वळखिले त्याच खिणाक ते अंतर्धान पावले.
- ईश्वराची कृपा हीच एकमात्र गरजेची गजाल आसा. ईश्वरी कृपा प्राप्त जावपा खातीरच दरेकल्यान देवाक होरावपाक जाय.
- तुमचें दुखेस्त अंतस्करण प्रभू कडेन उक्तें करात. दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावुंदी आनी मनस्पूर्वेक ताची प्रार्थना करात,“हे प्रभो, म्हाका लागीं घे आनी मनःशांती दी”

अशें म्हणात. प्रभूची अशी सेगीत होरावणी करतकीच तुमकां मनःशांती लाबतली.

- फूल हातांत घेतकीच जसो ताचो परमळ येता वा साणीचेर उगाळटकीच जसो चंदनाचो गंद येता, सामकें तेच तरेन सतत ईश्वरचिंतन करतकीच आत्मीक जागृताय येता.
- पळयात, सगळें जमोवन जुळोवन चलचें पडटा. ठाकूर म्हणटाले,'श, ष, स' (सोंस, सोंस, सोंस), सगळें सोंशीत फुडें सर, आपूण फाटल्यान आसां.
- हेरां विशीं तुजें जें कर्तव्य आसा तें सारकें पुराय करीत राव, पूण तुजें प्रेम मात त्या परमेश्वराकूच ओंप. ऐहीक प्रेमांतल्यान सदांच फकत असंख्य दुःखांच निर्माण जातात, हें तूं मतींत दवर.
- कर्माचें फळ भोगचेंच पडटा. मात देवाचें नांव घेत रावतकीच जंय नांगराचो फाळ रिगतलो आशिल्लो, थंय एखाद्री सुयूच तोंपतली. जपतप केल्ल्यान कर्मफळांत जायतो उणाव जाता.
- वारो जे प्रमाण कुपांक धांवडावन पयस करता, तेच प्रमाण प्रभुनाम ऐहिकतायेचीं कुपां नश्ट करता.
- ईश्वराचो साक्षात्कार जाका जाता ताका आनीक वेगळें कितें जाता? ताचे तकलेर दोन शिंगां फुट्टात? ना, ना, तसलें कांयच जायना. ताचें मन शुद्ध जाता. शुद्ध मना वरवीं ताका ज्ञानप्राप्ती जाता, ताचें उद्बोधन जाता.

- तुमी जेन्ना एके सुवातेवेल्यान दुसरे सुवातेर वतले, तेन्ना लागींलागसारच्या सगळ्या गजालींचें निरिक्षण करात. जंय तुमी रावतात, थंय कितें कात चल्लां, ते विशीं तुमकां सगळी खबर आसूंक जाय, मात तुमचे वोंठ मात घट्ट मिटून रावात.
- उतरांनी लेगीत कोणाक दुखोवचें न्हय. सत्य आसलें म्हूण कितें जालें? तें जर अप्रिय आसत जाल्यार गरज ना थंय सांगचें न्हय. उद्धटपणान उलोवपाची संवय लागतकीच मनशाचो सबावूच उद्धट जाता. वाणीचेर ताबो नासतकीच शाणपण लेगीत ना जाता. श्रीरामकृष्ण म्हणटाले,''एखाद्र्या पांगळ्या मनशाक,'तूं पांगळो कसो जालो?' अशें लेगीत विचारचें न्हय.
- म्हजे भुरगें जर रेब्यान लोळ्ळें वा धुल्लांत भरलें जाल्यार धांवत वचून ताका उखलप, निवळ करप आनी मांडयेर घेवप हें म्हजें कर्तव्यच न्हय?
- एक गजाल हांव तुमकां सांगतां. तुमकां जर मनःशांती जाय, जाल्यार हेरांचे दोश सोदप सोडून दियात. तेपरस आपलेच दोश पळयात. सगळें विश्व म्हजें आसा अशी भावना दवरपाचो यत्न करात. परको असो कोण ना. पुता, हो सगळो संवसार तुजो, सामको तुजोच आसा.

* * *

# अमृत संदेश

**- स्वामी विवेकानंद**

- म्हज्या फुडारांतल्या सुदारक इश्टांनो, भावी देशभक्तांनो, तुमच्या काळजांत तळमळ आसूं दी. तुमच्या काळजांत तळमळ आसा व्हय? देवता आनी रुशींचे लाखांनी वंशज आयज पशुतुल्य जावन पडल्यात हें पळोवन तुमच्या काळजाक पीळ पडटा व्हय? कोट्यांनी लोक आयज भुकेन वळवळटात, न्हय, खरेंपणान शेंकड्यांनी वर्सां सावन ते तशेच तडफडटात तें पळोवन तुमच्या काळजाक चीर पडटा व्हय? आमच्या देशाचेर अज्ञानाचीं काळींकुट्ट कुपां पाताळ्ळ्यांत हें पळोवन तुमचें काळीज पिळवटून वता व्हय? ताका लागून तुमी अस्वस्थ जाल्यात व्हय? ताका लागून तुमची न्हीद खळ्ळ्या व्हय?... ताका लागून तुमकां सामकें पिशें लागलां व्हय? देशाचे दुर्दशेच्या ह्या हुस्क्यान तुमकां पुरायपणान ग्रासून उडयल्यात व्हय? ह्या हुसक्यान ग्राशिल्ल्यान तुमचो नावलौकीक, तुमची बायल, तुमची भुरगीं, तुमची संपत्ती इतलेंच न्हय तर तुमचें स्वताचें शरीर, ह्या सगळ्यांचो तुमकां विसर पडला व्हय? तुमची अशी अवस्था जाल्या व्हय? देशभक्त जावपाचो हो पयलो पांवडो; सामको पयलोच पांवडो आसा.

- देशभक्त जायात आनी तुमचे खातीर गतकाळांत अशीं म्हान कार्यां करतल्या ह्या राष्ट्रा विशीं प्रेमभाव बाळगात. म्हज्या देशबांधवांनो, हेरां कडेन हांव तुमची जितली चड तुळा करतां तितलो तुमचे विशीं म्हाका चड मोग जाता; तुमी सज्जन, सुशील आनी शांत सबावाचे आसात. तुमचेर सेगीत अत्याचार जायत आयल्यात. मायेन भरिल्ल्या भौतीक संवसारांतलें हेंच दुर्दैव आसा. आसूं, ताचो हुस्को नाका, कारण निमणें आत्मोच जैतीवंत जातलो. तो मेरेन आमी कार्य करीत रावया. आमी आमच्या देशाक आनी हे परमपावन मातृभूमींतल्या, कश्टदगदगान सदळ जाल्ल्या साबार संस्थांक वायट उतरां दिवपाचें टाळुया. बुद्धीक पटनाशिल्ल्या बाबत समजणींनी भरिल्ल्या प्रथांची लेगीत निंदा करूं नाकात, कारण तांणी लेगीत पयलीं केन्नातरी बरें कार्य केल्लें आसतलेंच.

- गरीबधाकट्यांक काम मेळपाचे नदरेन भौतीक सभ्यतायेचीच न्हय तर विलासांची लेगीत गरज आसा. अन्न! अन्न! जो भगवान म्हाका हांगा धतरिर अन्न दिवंक शकना तो सर्गांत म्हाका अनंत सुखांत दवरतलो, हाचेर म्हजो विस्वास ना. भारताचो उद्धार जावंक जाय, गरिबांक पोटभर अन्न मेळूंक जाय, शिक्षणाचो प्रसार जावंक जाय आनी पुरोहितगिरी नश्ट जावंक जाय. पुरोहितांचो जुलूम नाका, समाजीक अत्याचार नाका! दरेकल्याक पोटभर अन्न आनी

जिणेंत फुडें सरपाची चडांतचड संद मेळ्ळुकूंच जाय...

- धर्माबिर्माचें आचरण करचे आदीं करूंक जाय कूर्मावताराची पुजा; आनी पोट म्हणल्यारूच तो कूर्म! ताका पयलीं तृप्त केले बगर तुज्यो धर्माबिर्माच्यो गजाली कोणूच आयकुचो ना... पोटाचे चिंतेन समस्त भारत देश बेजार जाला... धर्माबिर्माच्यो गजाली हांगा सांगपाच्यो आसल्यार ह्या देशांतल्या लोकांच्या पोटापाण्याचो प्रस्न आदी सुटावो करचो पडटलो. हरशीं, फकत व्याख्यानां-प्रवचनांचो कांयच उपयोग जावचो ना.

- पयलीं देशांतल्या लोकांक पोट भरपाचो उपाय दाखयात. मागीर मांडात तांचे मुखार भागवताचे पाठ. कर्मतत्परतायेन ऐहीक उणाव ना जाले बगर तुमचो धर्मोपदेश कोण कानार घेवचोना. देखून सांगतां,'पयलीं आपले भितरली अंतस्थ आत्मशक्ती जागृत करात, मागीर शक्य जायत तसो देशांतल्या सामान्य लोकां मदीं तांचे भितरले हे शक्ती वयलो विस्वास उत्पन्न करात. पयलीं तांच्या पोटापाण्याची वेवस्था करात आनी मागीरूच तांका धर्मलाभ कसो करचो हे विशींच्यो गजाली सांगात.

- सर्वसादारण जनतेक शिक्षण दियात, तांची उन्नती घडोवन हाडात- राष्ट्रनिर्मणेचो होच एकमेव उपाय आसा. घावो खंय जाला हें आमच्या समाजसुदारकांक सोदुनूय सापडना.

‘धर्माची लेगीत हातूंत कांय चूक ना. हाचें कारण मुर्तींची संख्या चड-उणी जाल्ल्यान कांयच फरक पडना. सगळ्या दोशांचें मूळ मुखार दिलां तातूंत आसा. आमचें खरेलें राष्ट्र आयज खोंपींनी रावता आनी खोंपींनी रावपी आमच्या बांधवांक आपल्या व्यक्तितत्वाचो आनी मनुश्यत्वाचो विसर पडला... तांकां तांच्या विसरिल्ल्या व्यक्तितत्वाची जाणविकाय परतून करून दिवंक जाय, तांकां बरे तरेचें शिक्षण दिवंक जाय...

आमी आमच्या बांधवांक उपयुक्त विचार वा कल्पना दिवया, बाकीचें काम ते आपुणूच करतले. हाचो अर्थ असो, आमी सर्वसामान्य जनतेक शिक्षण दिवंक जाय. पूण ह्या वावरांत जायतीं आडमिळीं आसात. दिवाळखोर सरकार कांय करूंक पावचें ना आनी करचेंय ना, देखून थंयच्यान मदतीची मात लेगीत अपेक्षा करूं नाकात.

- श्रद्धा! श्रद्धा! श्रद्धा! आपल्यावेलीच श्रद्धा! ईश्वरा वयली श्रद्धा! - हेंच म्हान जावपाचें गुपीत आसा. तुमच्या पुराणांनी वर्णन केल्ल्या तेत्तीस कोटी देवांचेर तुमची श्रद्धा आसत, तशेंच परकियांनी तुमचे भितर वेळावेळार प्रसारीत केल्ल्या सगळ्या दैवतांचेर लेगीत तुमची श्रद्धा आसत, पूण जर तुमची खासा तुमचेर- आपणाचेर श्रद्धा नासत जाल्यार तुमकां मुक्ती लाबूंक पावची ना. आपणाचेर

श्रद्धा दवरात, त्या श्रद्धेच्या बळान आपल्या पांयांचेर उबे रावात आनी शक्तीशाली जायात.

- "उठात, जागे जायात आनी ध्येयप्राप्ती जालेबगर थारूं नाकात"... तरणाट्यांनो, उठात, जागे जायात, कारण हीच शुभवेळ आसा. सद्याक आमचेखातीर सगळ्यो गजाली अनुकूल आसात. धीट जायात, भिवूं नाकात. फकत आमच्याच धर्मग्रंथांनी परमेश्वराक 'अभीः अभीः' अशें विशेशण वापरलां. आमकां 'अभीः' - निर्भय जावंक जाय, म्हणटकीच आमचें कार्य पूर्ण जातलें. उठात, जागे जायात, कारण आमच्या देशाक अशा व्हड त्यागाची गरज आसा.

- मनीस जाय, मनीस जाय. हेर सगळें आपशींच जुळून येतलें. पूण सशक्त, उत्साही, श्रद्धावान आनी निश्कपट अशें तरूण मनीस जाय. अशें शंबर तरणाटे मेळ्ळे जाल्यार लेगीत पुराय संवसारांत क्रांती घडोवं येता.

- ईश्वराचे पूत तुमी. तुमी अमृताचे अधिकारी, पवित्र, पूर्ण. तुमी हे मर्त्यभुंये वयल्यो देवता. तुमी पापी? अशक्य! मनशाक पापी म्हणप म्हणल्यारूच महापाप. विशुद्ध मानवात्म्याचेर केल्लो तो फकत फटीचो कळंकारोप आसा. भावांनो, तुमी शिंवा भशेन आसून लेगीत आपणाक बोकडा भशेन कित्याक समजतात? उठात, मृगराजांनो,

उठात, आनी आपूण मेंढरां-बोकडे आसात हो भ्रम पयस करात. तुमी जरामरण विरयत, मुक्त आनी नित्यानंद स्वरुप आत्मो आसात. तुमी जड न्हय. तुमी देह न्हय. जडत्व तुमचो गुलाम, तुमी जडत्वाचे दास न्हय.

- संवसाराचो इतिहास खासा आपणाचेर श्रद्धा आशिल्ल्या कांय थोड्या मनशांनी रचला. अशी श्रद्धाच भितरल्या देवत्वाक भायर परगटायता. मागीर तुमच्यांनी कितेंय करूं येता. तुमचे भितरले अनंत शक्तीक परगटावपाचे फावोशे यत्न तुमचे कडल्यान जावंक ना जाल्यारूच तुमकां अपयश येता. खंयचीय व्यक्ती वा राष्ट्र जेन्ना श्रद्धाहीन जाता तेन्नाच ताचें मरण लागीं येता.

- यश मेळोवपाचे नदरेन सिद्ध जावपा खातीर जायती चिकाटी जाय, प्रचंड इत्साशक्त जाय, जायतें मनोबल जाय. असलो चिकाटीचो साधक म्हणटा-''हांव दर्या पिवन दाखयन, म्हजे इत्साशक्तीन पर्वतांचो चुरो जायत.'' असले तरेचें तेज, असले तरेची इत्साशक्त बाळगात, खूब कठोर साधना करात, तुमकां त्या परमपदाची प्राप्ती जावुकूंच जाय.

- सामर्थ्य हेंच जीवन आनी दुर्बलताय होच मृत्यू. हें एक म्हान सत्य. 'बल' म्हणल्यार सुख, चिरंतन आनी सासणाचें जिवीत आसा. दुर्बलताय म्हणल्यार दुःखकश्ट, दुर्बलताय

म्हणल्यारूच मृत्यू.

- लोक कितेंय म्हणूं दीत, आपलीं जीं निश्चीत मतां आसात, तांकां दसून रावात आनी मागीर संवसार तुमच्या पांयांचेर घालून घेतलो हाचे विशीं खात्री बाळगात; लोक म्हणटात,''हाचेर विस्वास दवरात, ताचेर विस्वास दवरात'', पूण हांव म्हणटां,''पयलीं आपणाचेर विस्वास दवरात.'' होच उपाय आसा. आत्मविस्वास आसूं दी, सगळी शक्ती तुमचे मदींच आसा हें जाणून घेयात आनी ती प्रकट करात. म्हणात, कितेंय करपाचें सामर्थ्य म्हजे भितर आसा. 'वीख ना, वीख ना, अशें खंबीरपणान म्हणलें जाल्यार सापाचें वीख लेगीत बादिकार जायना.

- भारत परतून उबो रावतलो, दुबावूच ना. पूण 'जडा'चे शक्तीन न्हय, चैतन्याचे शक्तीन. विध्वंस-विनाशाचो बावटो नाचोवन न्हय, शांती-प्रेमाची जैताची घुडी नाचोवन.... एक जितेंजिवें दृश्य मात म्हजे नदरेक दिश्टी पडटा. तें हें: आमची ही प्राचीन भारतमाता परतून एक फावट जागृत जाल्या. नवसंजीवन लाबून आदले परसूय चड महिमाशाली जावन आपल्या सिंहासनाचेर भोवमानान अधिश्ठीत जाल्या. शांतीच्या आनी आशिर्वादांच्या उतरांनी समस्त धतरिचेर तिच्या शुभनामाचो जयघोश करात.

- पुतांनो, दुःखी, गरीब, अज्ञानी हांचे खातीर इतली तळमळ

दिसूं दी, काळीज इतलें आकूळपिकूळ जावूं दी, जीवप्राण इतलें पिळवटून वचूं दी, ताका लागून काळीज बंद पडपाची वेळ येतली आनी तकली अशी घुंवपाक लागतली आनी आपूण पिसो जालां काय कितें अशें तुमकां दिसतलें. मागीर तुमच्या अंतरात्म्याच्यो वेदना भगवंताच्या पांयां कडेन मांडात. तो तुमकां शक्ती, आदार आनी अदम्य उत्साह दितलो. फाटलीं धा वर्सां म्हजो एकूच मूलमंत्र आशिल्लो-'झुजात. झुजत फुडें सरात,' आयज लेगीत हांव परतून तेच म्हणटां. 'झुजात, झुजत झुजत फुडें सरात.' जेन्ना धायदिखो निराशेच्या अंधःकारान भरून गेल्ल्यो तेन्ना हांव म्हणटालों, ''झुजत फुडें सरात.'' आयज आशेच्या उजवाडान धायदिखो मातश्यो परजळ्ळ्या आसतना लेगीत म्हजो तोच एक मंत्र आसा-'चलात, झुजत झुजत मुखार सरात.' पुतांनो, भिवूं नाकात.'

- हे भारता, विसरूं नाका तुज्या अस्तुऱ्यांचो आदर्श सीता, सावित्री, दमयंती आसात. विसरूं नाका तुजे उपास्य देव सर्वत्यागी उमानाथ शंकर आसात. विसरूं नाका तुजो विवाह, तुजें धन, तुजी जीण इंद्रिय-सुखा खातीर ना, फकत तुज्या वैयक्तीक सुखा खातीर ना. विसरूं नाका, तुजो जल्म माते खातीर बली म्हणुनूच जाला... भावा! म्हण-''भारताची माती म्हजो सर्वश्रेष्ठ सर्ग आसा,

भारताचें कल्याण हेंच म्हजें कल्याण.'' आनी रातदीस हीच प्रार्थना परतून परतून कर, ''हे गौरीनाथा, हे जगदंबे, म्हाका मनीसपण दी. हे जगन्माते, म्हजी दुर्बलताय, म्हजें भिवकुरेंपण पयस कर आनी म्हाका खरेलो मनीस कर!''

- आमरण काम करात- हांव तुमच्या फाटल्यान आसां आनी म्हज्या उपरांत म्हजो आत्मो तुमचे वांगडा कार्य करतलो. ही जीण येता आनी वता- संपत्ती, किर्ती, सुखोपभोग ह्यो सगळ्यो गजाली फकत कांय दिसां पुरत्योच आसतात. संवसारांत घुस्पिल्ल्या किड्या भशेन मरचे परस, सत्याचो प्रचार करीत करीत, कर्तव्याच्या क्षेत्रांत मरण येवप कितल्याश्याच पटींनी बरें. फुडें सरात!



# स्वामीजींची अखंड कृपादृश्टी लाबिल्लें बेळगांव

**बेळगांव हें गोंया लागसारचेंच एक मुखेल शार. खूब आदल्या काळा सावन ह्या शारा कडेन गोंयचो संबंद. गोंयचे स्वातंत्र्य चळवळींत लेगीत बेळगांवचें योगदान खूब व्हड. स्वातंत्र्या उपरांत बेळगांव हें गोंयकारांचें एक आवडटें वेपारी आनी पर्यटन थळ. देखून गोंयां संबंदांतले हे पुस्तिकेंत, बेळगांवांतले स्वामीजींचे भेटेक लागून पवित्र आनी पुनीत जाल्ल्या ह्या शारांतल्या रामकृष्ण मठ आनी मिशनाच्या ह्या विशाल वास्तू विशींची माहिती थोडे भितर दिल्या.**

१५ ऑक्टोबर १८९२ दिसा सकाळीं ६ वरांचेर बेळगांवांतले एक नामनेचे वकील श्री. सदाशिव बाळकृष्ण भाटे हांच्या घरा स्वामीजी पावले. तांणी आपली वळख 'सच्चितानंद' अशी करून दिली. (स्वामी विवेकानंदांनी आपल्या हेर गुरुबंधू वांगडा संन्यास घेतना 'विविदिशानंद' अशें नांव घेतिल्लें. भारत-परिक्रमे मजगतीं तांणी आपल्या गुरुबंधुंनी आपणाक वळखून आपल्याक

सोदून काडचो न्हय, देखून दोन फावटीं आपलें नांव बदल्लें. सुरवेक तांणी 'विवेकानंद' हें नांव घेतलें. (फेब्रुवारी १८९१ तें ऑक्टोबर १८९२) आनी उपरांत 'सच्चितानंद' (ऑक्टोबर १८९२ तें मे १८९३). पूण उपरांत पश्चिमेक वचपाचे मातशें पयलीं, घडये खेत्रीच्या महाराजांचे विनवणे वेल्यान मे १८९३ वर्सा तांणी परतून 'विवेकानंद' हें नांव धारण केलें. श्री. भाटे वा श्री. हरिपद हांच्या 'स्मृती वरपावळींनी' स्वामीजींनी आपली वळख 'विवेकानंद' म्हूण केल्ल्याचो खंयच उल्लेख ना.)

दिसूंक 'विचित्र' दिसपी, अस्खलीत इंग्लीश भाशेंत उलोवपी स्वामीजींची खरी वळख भाटे कुटुंबियांक बेगीनूच घडली. तांची विद्वत्ता, व्यासंग हांचे विशीं जाणविकाय जातकीच, ल्हवू ल्हवू श्री. भाटे हांगेर स्वामीजींक मेळूंक विद्वान लोकांची गर्दी जावंक लागली.

श्री. भाटे हांगेर साकून स्वामीजी श्री. हरिपद मित्र ह्या बंगाली व्यक्तीच्या घरा गेले. श्री. मित्र हे उप-विभागीय वन अधिकारी आशिल्ले आनी श्री. भाटे हांचे इश्ट आशिल्ले. सगळे स्वामी आनी साधू फटींग आनी सुवार्थी आसतात, अशी समजूत आशिल्ल्या श्री. मित्र हांकां, श्री. भाटे हांगेर मराठी वातावरणांत रावून बेजार जाल्ल्यान स्वामीजी आपल्या घरा रावूंक आयल्यात अशें दिसलें. पूण स्वामीजीं कडेन उलयतकीच तांचो भ्रम पयस जालो आनी तांणी तांकां दुसरे दीस आपणागेर च्यायेक आमंत्रण

दिलें. दुसरे दीस स्वामीजी आयलेच नात म्हूण तांकां मेळूंक श्री. मित्र श्री. भाटे हांगेर गेले. तेन्ना जायते जाण श्री. भाटे हांगेर जमिल्ले आनी स्वामीजी तांच्या प्रस्नांक जापो दिवंक गुल्ल जाल्ले. भासाभास सोंपतकीच स्वामीजींचे लक्ष श्री. मित्र हांचे कडेन गेलें आनी तांणी तांची माफी मागली. श्री. मित्र हांणी स्वामीजींक आपल्या घरा रावूंक येवपाचो आग्रह केलो. तेन्ना तुमी जर श्री. भाटे हांकां समजायतात जाल्यार आपूण तुमगेर येवंक तयार आसा, अशें स्वामीजींनी तांकां सांगलें. श्री. मित्र हांणी श्री. भाटे हांची समजूत घातली आनी स्वामीजी श्री. मित्र हांगेर रावपाक गेले. १८ ते २७ ऑक्टोबर मेरेन ते श्री. मित्र हांगेर रावले. तांच्या राबित्याक लागून श्री. मित्र, तांची घरकान्न इतलेंच न्हय तर तांच्या घरांतल्या नोकरांच्या जिवितांत लेगीत आमुलाग्र परिवर्तन घडलें.

श्री. मित्र हांगेर साकून एके मेल-ट्रेनीन स्वामीजी गोंयां (मुरगांवां) वचूंक भायर सरले. स्वामीजींची ती बेळगांवची एकमेव भेट आशिल्ली. श्री. मित्र हांणी मात हेर कडेन वचून स्वामीजींची दोन फावटीं भेट घेतली. तशेंच स्वामीजींनी गोंयांतल्यान श्री. मित्र हांकां एक पत्र जाल्यार हेर कडल्यान सौ. मित्र हांकां चार पत्रां बरोवन ह्या कुटुंबाची पत्ररुपान भेट घेतली.

स्वामीजी १५-१८ ऑक्टोबर, १८९२ मेरेन श्री. भाटे हांच्या घरा राविल्ले. त्या घराचो एक लहान भाग सद्याक रामकृष्ण

विवेकानंद सेवाश्रम हे खाजगी संस्थेचे मालकीचो आसा. तातूंत स्वामीजी जे कुडींत राविल्ले ते कुडीचोय आस्पाव जाता. थंय स्वामीजींनी वापरिल्ली खाट आनी हारसो तशेंच तांची 'वॉकिंग स्टीक' (श्री. मित्र हांणी तांकां नवी 'वॉकिंग स्टीक' दितकीच स्वामीजींनी फाटल्यान दवरिल्ली) सांबाळून दवरल्या. दर दिसा ते कुडींत स्वामीजींची पुजा जाता. ही वास्तू आतां रोखडीच रामकृष्ण मिशन आश्रमाचे मालकीची जावपाची आसा.

श्री. मित्र तेन्ना ज्या घरांत रावताले, तें घर सरकारी आशिल्लें. (श्री, मित्र हे वन-अधिकारी आशिल्ल्यान सरकारी क्वार्टर्सांत रावताले.) त्या क्वार्टर्सांत उपरांत राबितो केल्ल्या सरकारी अधिकाऱ्यांनी जशे जायते बदल केले तशेंच त्या क्वार्टर्साच्या जायत्या भागां कडेन दुर्लक्ष लेगीत केलें. ताका लागून ते इमारतीची जायती हानी जाल्या. उपरांत कांय हितचिंतकांच्या विनवण्यांक लागून सरकारान ती इमारत रामकृष्ण मठ आनी रामकृष्ण मिशनाक सुपूर्त केली. १ जून २००० हे दिसा ती इमारत विधीपूर्वक वन-अधिकाऱ्यांनी रामकृष्ण मिशनाक दिली. रामकृष्ण मिशन आश्रमान हे म्होडकळेक आयिल्ले इमारतीचो जिर्णोद्धार करपाचो वावर हातांत घेतलो. १८९२ वर्सा स्वामीजी ज्या घरांत राविल्ले तेचतरेन ती इमारत परतून रामकृष्ण मिशन आश्रमान दुरुस्त करून यादस्तीक कशी उबी केल्या. जायते लोक ह्या यादस्तिकाक भेट दिवन स्वामीजींक

आर्गां ओंपतात. हे इमारतींतल्या मुख्य सभाघराक प्रार्थनाघराचें स्वरुप फावो केलां. रामकृष्ण आश्रमाच्या मुखावेल्या विकासा खातीर ही इमारत केंद्रबिंदू जाल्या. हे नवे इमारतीचें उक्तावण २३ मे २००१ दिसा जालें. आश्रमा कडेन सुरवेक फकत ०.८ एकर जमीन आशिल्ली. पूण कर्नाटक सरकारान ते जमनीक तेंकून आशिल्ली आनीक ०.९ एकर जमीन आश्रमाक भाडेपट्टेचेर दिली. पुराय जमनी भोंवतणी आडो बांदपाचें काम फेब्रुवारी २००२ वर्सा सुरू जालें. पुराय जमनीचो मास्टर प्लॅन तयार केलो, जातूंत रांदपघर, जेवणघर, साधू-निवास, प्रशासन आनी भौशीक विनियोग संकूल तशेंच श्रीरामकृष्णांचें विश्वमंदीर हांचो आस्पाव आशिल्लो.

शारदा मंडप आनी साधू निवासाचें उक्तावण १९ एप्रिल, २००३ दिसा जालें. ताचे उपरांत आश्रमाक तेंकून आशिल्ली आनीक १.६३ एकर जमीन कर्नाटक सरकारान भाडेपट्टेचेर आश्रमाक प्रदान केली. २३ जानेवारी २००४ ह्या इतिहासीक दिसा ३१५ साधू आनी ब्रह्मचारी तशेंच २००० परस चड भक्तांचे उपस्थितींत श्रीरामकृष्ण हांच्या विश्व मंदिराचें उक्तावण जालें. तशेंच तेच दिसा सांजे कार्यालय, पुस्तकालय, प्रदर्शनघर आदींचें उक्तावणूय जालें अशे तरेन हो आश्रम स्वामीजींच्या विचारांच्या प्रचार आनी प्रसारा खातीर सज्ज जालो. स्वामीजींच्या बेळगांवांतल्या राबित्याच्यो यादी ह्या

आश्रमाक लागून पुनरुज्जिवीत जाल्यात.

उपरांत आश्रमाक लागून आशिल्ली १.६३ एकर जमीन युवकां खातीर उद्‌बोधन उपक्रम तशेंच हेर कार्यां खातीर विकसीत करपाक सुरवात जाली. हे इमारती भोंवतणी फळां-फुलां-भाजयो हांच्यो बागो विकसीत केल्ल्यान हे सुवातेक सैमसुंदर रूप फावो जालां.

**ह्या पुराय संकुलांत**:

- दिसपट्ट्यो प्रार्थना
- सप्तकी प्रवचनां आनी अध्यात्मीक साधना
- खाशेले उत्सव
- युवकां खातीर साधनावर्ग
- विद्यार्थ्यां खातीर संमेलनां
- संस्कृतीक कार्यावळी
- विद्यार्थ्यां खातीर सेवा उपक्रम
- शिश्यवृत्यो प्रदान समारंभ
- साहित्य प्रसार

अश्यो विंगड-विंगड कार्यावळी आनी उपक्रम चलतात. बेळगांवांत येवपी दरेकलो पर्यटक आश्रमाक भेट दिले बगर वचना.

'जी गजाल फुडलीं १०० वर्सां जायत अशें चिंतूंक नाशिल्ली, ती गजाल बेळगांवच्या ह्या आश्रमान करून दाखयल्या' अशे उद्गार श्रीमत् स्वामी स्मरणानंदजी महाराज (रामकृष्ण मठ आनी मिशनाचे तत्कालीन सचिव) हांणी काडिल्ले ते कितले सार्थ आनी समर्पक आशिल्ले ताची गवाय म्हणल्यार हो आश्रम. खऱ्या अर्थान बेळगांवाचेर स्वामीजींची अखंड कृपादृष्टी आसा, हातूंत दुबाव ना.



# कोंकणी भाशीक प्रदेशांत आशिल्लीं रामकृष्ण मिशन आनी रामकृष्ण मठाचीं केंद्रां:

## कर्नाटक

**Ramakrishna Mission Ashrama, Belgaum (बेळगांव)**

Ramakrishna Mission Ashrama, Fort
Belgaum, Karnataka 590016
Phone : 0831-243 2789 & 243 0789
Telefax : 0831-243 2789 & 243 0789
Email : rkmissionashrama@gmail.com
Website: www.rkmissionashrama.org

**Sub Centre:**

Ramakrishna Mission Ashrama, 'Datta Kripa',
3553 A/2, Swami Vivekananda Marg ,
Near Old City Corporation Office
Belgaum, Karnataka 590002
Phone : 0831-2431230

**Ramakrishna Math and Ramakrishna Mission, Mangalore (मंगळूर)**

Ramakrishna Math and Ramakrishna Mission
Mangaladevi Road, Mangalore, Karnataka 575001
Phone: 0824-241 4412 & 241 9097
Email: mangaloremath@dataone.in,mangaloremath@gmail.com, Website: www.mangaloremath.in

## Ramakrishna Math, Bangalore-Bull Temple Road

(बंगळूर)

Ramakrishna Math, Bull Temple Road, Bangalore,
Karnataka 560019, India
Phone : 080-2661 3149, 2667 1010
Telefax : 080-2667 2020, Email : rkmfive@gmail.com
Website: www.rkmathbangalore.org

**Institution(s):**
Publication & Book Sales
Phone: 26616060 & 26616161
Email: bookstall@rkmathbangalore.org
Vidyarthi Mandiram, Phone: 26675351
Email: vidyarthi.mandiram@gmail.com

## Ramakrishna Mission, Bangalore-Shivanahalli

Ramakrishna Mission, Shivanahalli, Jigani Hobli
Anekal Taluk, Dt. Bangalore Urban, Karnataka India
Phone : 080- 7858 020 & 7858 022
Email : rkmission.halli@gmail.com
Website: www.rkmission-shivanahalli.org
Started in 1985, the centre was made a branch of the Mission in 1996.

## Ramakrishna Math, Bangalore-Ulsoor

Ramakrishna Math, Swami Vivekananda Road, Ulsoor
Bangalore, Karnataka 560008, India
Phone : 080-2536 7878, 080-2557 8900, 0-99022 44822

Telefax : 080-2536 7878
Email : rkmathulsoor@gmail.com,ulsoormath@gmail.com, Website: www.ramakrishnamath.in

## केरळ

### Ramakrishna Math, Kochi (कोची)

Ramakrishna Math , P.O. Vyttila
Kochi, Dt. Ernakulam, Kerala 682019
Phone: 0484-230 1860
Email: rkmathkochi@gmail.com
Website: www.ramakrishnamathkochi.org

### Ramakrishna Mission Sevashrama, Kozhikode (Calicut) (कोझीकोड)

Ramakrishna Mission Sevashrama
P.O. Arts & Science College
Kozhikode (Calicut), Kerala 673018
Phone : 0495-320191
Email : rkmissioncalicut@gmail.com

### Ramakrishna Math, Thrissur (थ्रिसूर)

Ramakrishna Math
P.O. Puranattukara, Dt. Thrissur, Kerala 680551
Phone : 0487-230 8219, Telefax : 0487-2304944
Email : rkmtsr@gmail.com

**Sub Centre(s)**

Ramakrishna Ashrama, Vivekananda Vijnana Bhavan
Punkunnam, Dt. Thrissur, Kerala 680002
Phone : 0487-238 1080

## Ramakrishna Ashrama, Thiruvananthapuram (थिरूवनंतपुरम)

Ramakrishna Ashrama, Sasthamangalam
Thiruvananthapuram, Kerala 695010
Phone : 0471-2722125, 2722453 & 2726603,
0471-2727393 & 2727607
Telefax : 0471-2313502
Email : srkach_tvm@bsnl.in,srkachtvm@gmail.com
Websites: www.rkmtvm.org, www.sriramakrishnaashrama.org

**Sub Centre(s)**

Ramakrishna Ashrama, Ramakrishna Ashrama,
PO - Nettayam, Thiruvananthapuram, Kerala 695013
Phone : 0471-236 4936

## Ramakrishna Ashrama, Tiruvalla(तिरूवर)

Ramakrishna Ashrama, Thukalassery
Tiruvalla, Dt. Pathanamthitta, Kerala 689101
Phone : 0469-2603125, Email : rkmtvla@gmail.com

**Ramakrishna Math, Haripad (हरिपाद)**

Ramakrishna Math, P.O. Haripad, Dt. Alleppey, Kerala 690514, Phone : 0 - 974 5325 834,, 0479-2411 700
Email : srkmathharipad@gmail.com
Website: www.rkmathharipad.org

## महाराष्ट्र

**Ramakrishna Math and Ramakrishna Mission, Mumbai (मुंबई)**

Ramakrishna Math and Ramakrishna Mission
Ramakrishna Mission Marg
12th Road, Khar(West), Mumbai, Maharashtra 400052
Phone : 022-2649 4760 & 2646 4363,
Telefax : 022-2604 8568
Email : mumbairkm@gmail.com,mumbairkm@yahoo.com
Website: www.rkmkhar.org

**Institution(s):**
Hospital
Phone: 2648 4119 & 2646 2242
Sub Centre(s)

Ramakrishna Mission
Rural Health & Welfare Section,
Sakwar, Taluka Vasai, Dt. Thane, Maharashtra

## नवी दिल्ली

**Ramakrishna Mission, New Delhi (नवी दिल्ली)**

Ramakrishna Ashrama Marg,
Panchkuiya Road, Paharganj
New Delhi, Delhi 110055
Phone : 011-2358 7110 & 2358 3023
Telefax : 011-2358 0848
Email : ashram@rkmdelhi.org,rkmissiondelhi@gmail.com
Website: www.rkmdelhi.org; www.awakeningindia.org

## गोंय

गोंयांत रामकृष्ण मिशन आनी रामकृष्ण मठाचीं अधिकृत केंद्रां नात. पूण श्रीरामकृष्णांच्याच विचारांनी काम करपी एक खाजगी केंद्र चलता.

Sri Ramakrishna Vivekananda Seva Samiti,
Parsol, Usgao, Ponda, Goa. 403401

**फोन**: +919096662459

**ईमेल**: rkvssgoa@gmail.com



स्वामी विवेकानंद. आधुनीक भारतांतले एक व्हड राष्ट्रभक्त तपस्वी. तांणी तांच्या परिव्राजक जिणे-काळांत भारताच्या खांची-कोनशांक भेट दिली. भारतीय जिणेचें रंगयाळेंपण आनी भारताची अतीप्राचीन संस्कृती हांचो सोद घेवपाचे आनी ती आपले भितर रुजोवपाचे प्रखर आंतरीक इत्सेन प्रेरीत जावन, तशेंच हे पवित्र भुंयेंत आशिल्ल्या विंगड-विंगड तीर्थस्थळांक भेट दिवपाचे एके साधकाचे वैराग्य पुराय उर्मीक लागून स्वामीजी पुराय देस भोंवले. ज्ञानार्जनाची जबर इत्सा आनी नरा भितरल्या नारायणाचेर आशिल्ली तांची स्रद्धा हांकां लागून साबार लोक तांच्या संपर्कांत आयले. तांचे हे परिक्रमे मजगतीं, १८९२ वर्सा तांणी गोंयांक भेट दिली आनी भारताचे हे प्राचीन भुंयेंत तिच्या पवित्र स्थळांचें दर्शन घेत, गोंयांतल्या प्रतिशठीत आनी सामान्य दोनूय तरांच्या जायत्या लोकांकडेन संवाद सादीत तांणी कांय दीस सारले. हे पुस्तिकेंत, ते विशीं जळींमळीं शिंपडिल्ल्यो सत्यकथा आनी माहिती फोट्यां सयत एकठांय करून तांचे हे भेटीचो नियाळ प्रस्तूत केला.






**श्रीरामकृष्ण-विवेकानंद साहित्य**
आणि इतर आध्यात्मिक प्रकाशने
मागविण्यासाठी लिहा
रामकृष्ण मठ (प्रकाशन विभाग)


रामकृष्ण आश्रम मार्ग, धंतोली, नागपूर - ४४० ०१२
e-mail - rkmnpb@gmail.com
www.rkmathnagpur.org
Ph - 0712-2432690




ISBN 978-9-3858586-6-6


(K001) Goya Tanchya Padsparshana Pawan : ₹ 80.00